# गोंयकारांचें देशभश्टेपण

(Denationalisation of Goans)

: लेखक :

डॉ. त्रिशतांव ब्रागांझ कुंज्य

: अणकारपी :

श्री. सुरेश गुंडू आमोणकार

: प्रकाशक :

त्रिशतांव ब्रागांझ कुंज्य चॅरिटी ट्रस्ट, पणजी

गोंयकारांचें देशभश्टेपण
Denationalisation of Goans चो
कोंकणी अणकार

प्रकाशन वर्स 2013

उजवाडावपी
ॲड. श्रीधर तांबा
अध्यक्ष,
त्रिशतांव ब्रागांझ कुंज्य चॅरिटी ट्रस्ट,
टी. बी. कुंज्य स्मारक सभाघर,
आझाद मैदाना लागीं,
पणजी - गोंय, 403 001.

छापपी:
श्री. हिरू नारायण नायक
रूतू ऑफसेट,
वळवय, सावयवेरें,
गोंय, 403 401.

अक्षर जुळावणी:
ज्योती गांवकार
तिवरें, माशेल - गोंय.

मुखचित्र:
गौरीश वेर्णेकार
काणकोण.

मोल : ₹ 60/-

# त्रिशतांव ब्रागांझ कुंज्य आनी तांचे क्रांतीकारी विचार

गोंयच्या मुक्तीसंग्रामाचो इतिहास जेन्ना आमी नदरेमुखार हाडटात तेन्ना जें एक म्हान व्यक्तिमत्व आमचेमुखार मुखेलपणान उबें रावता तें त्रिशतांव ब्रागांझ कुंज्य हांचें. गोंयच्या मुक्तीसंग्रामान आमकां खूब व्हड तांकीचीं मनशां दिलीं. ह्या सगळ्यामदें, आपणाल्या आगळ्या वेगळ्या कर्तुत्वान आनी बुद्दीनिश्ट क्रांतीकारी विचारांनी गोंयकारांक जागोवपाखातीर तशेंच पुर्तूगेज वसणूकशायेआड झुजपा पासत उर्बा दिवपी म्हळ्यार त्रिशतांव ब्रागांझ कुंज्य. आपणालें पुराय जिवीत स्वातंत्र्याखातीर ओंपून दिवपी हो एक व्हड गोंयकार - व्हड भारतीय.

त्रिशतांवबाब, 2 एप्रील 1891 हे दिसा आपणाल्या आजोळा चांदर हांगा जल्मले. मुळावें शिकप आपणाल्या गांवांतच - कांसावली हांगा जातकीच, फुडल्या शिक्षणाखातीर तांच्या वडिलांनी तांकां, तेन्नाचे पद्दतीप्रमाणे लिसेव म्हळ्यार पुर्तूगेज माध्यमीक शिक्षणाखातीर पणजे धाडले. पूण, जातकच हुशार आशिल्ल्या त्रिशतांवबाबांक लिसेवाचें तें थारावीक साचेबंद शिक्षण निखालस मानवलें ना. हें शिक्षण मनीस घडोवपी न्हय अशें तांचें मत्त जालें. उप्रांत तांच्या वडिलांनी तांकां फ्रेंचाच्या शेकातळच्या पाँडेचरीक धाडले. थंयचें शिक्षण पुर्तुगेजांपरस वेगळें आनी थोडेंशें पुरोगामी विचारांक पोसवण दिवपी आसलें. थंय तांणी फ्रेंच भाशेंतल्यान म्हाविद्यालयीन शिक्षण घेतलें. ते उप्रांत 1912 वर्सा ते फ्रान्साक गेले. थंय पारिसांतल्या सोर्बोन विद्यापीठांतल्यान तांणी इलेक्ट्रीकल इंजिनियरींगची पदवी घेतली. उप्रांत कांय वर्सां ते फ्रान्सांतच रावले. थंय ते फ्रान्सांतल्या पुरोगामी विचारवंत आनी लेखकांच्या संपर्कांत आयले. विख्यात फ्रेंच पंडीत रोमा रोलांकडेन तांची वळख जाली. फ्रान्सांतल्या भारतीय देशभक्तां सांगाता ते वावुरले. साम्राज्यवाद विरोधी आंतर्राष्ट्रीय संघटनेचे ते वांगडी जाले. फ्रान्साक आसतनाच, उप्रांतच्या काळांत चीनाचे

प्रधानमंत्री जाल्ले चौ एन् लाय आनी मुक्त विएतनामचे अध्यक्ष हो ची मिन्ह हांचेय कडेनय तांची इश्टागत जाली. त्रिशतांवबाबांचे वेगवेगळ्या विशयांवयले लेख फ्रान्सांतल्या नेमाळ्यांनी उजवाडा येताले. 1919 वर्साच्या 13 एप्रीलाक ब्रिटिशांनी अमृतसरच्या जालियांवाला बाग हांगा हत्याकांड घडोवन हाडलें. बेधूंद गोळीबारांत सुमार चारशांवयर निरपराध लोक मेले. हे संबंदांत, ब्रिटिशांनी जशें कितें कांयच घडूंक ना अशे भाशेन येरोपांत फटकिरो प्रचार चलयलो. त्रिशतांवबाबान फ्रान्सांतल्या आनी हेर कडल्या नेमाळ्यांनी लेख बरोवन ब्रिटिशांच्या फटकिऱ्या प्रचाराच्यो तिश्त्यो वादऱ्यो केल्यो. लोकांक खरी परिस्थिती कळ्ळी आनी ब्रिटिशांची सगळेकडेन शीः थूः जाली.

चवदा वर्सां फ्रान्साक रावले उप्रांत, 1926 वर्सा परिपक्व पुरोगामी क्रांतीकारी विचारांचें दायज घेवन त्रिशतांवबाब गोंयां परतले आनी भारतीय स्वातंत्र्य संग्रामावांगडाच गोंयांतय स्वातंत्र्याची चळवळ उबी करपाक तांणी पेंगट बांदलें. गोंयकारांनी भारतीय स्वातंत्र्य संग्रामापासून पयस रावनासतना, तो आमचोच संग्राम अशें मानून तातूंत वांटेकार जावंक जाय अशें तांचें मत्त आसलें. पुर्तुगेज सत्तेआड गोंयांतय चळवळ जावंक जाय अशें तांकां दिसतालें. **'स्वतंत्र भारतांत स्वतंत्र गोंय'** ही तांची घोशणा आसली. आपणाल्या विचारांनुसार ते वावराकय लागिल्ले. तेखातीर ते पंडीत नेहरू धरून ज्येश्ट भारतीय राजकीय फुडाऱ्यांक मेळ्ळे. तांचेकडेन गोंयां संबंदान चर्चा केली आनी उप्रांत 1928 वर्सा तांणी 'गोवा कॉंग्रेस कमिटी' स्थापन केली. तिका अखिल भारतीय कॉंग्रेस संघटनेकडेन संलग्न केली. गोंयांत 'गोवा कॉंग्रेस कमिटी'चें काम उक्तेपणीं करप कठीण आसलें. पुर्तुगेजांकडेन उक्तेंपणी संघर्श करचे पयलीं गोंयांत संघटना बांदून काडूंक जाय आशिल्ली. ते दिकेन 'गोवा कॉंग्रेस कमिटी'चे अध्यक्ष ह्या नात्यान ते वावराकय लागले. कमिटीचे वांगडी गोंयांतले तशेंच गोंयांभायर रावपीय गोंयकार आसले. उक्तेपणी गाजोवाजो करिनासतना 'गोवा कॉंग्रेस कमिटी'चें काम सुरू जालें. गोंयांतल्या पुर्तुगेजांच्या

हुकूमशाय कारभाराआड, त्रिश्तांवबाबान वेगवेगळे विशय घेवन ल्हान ल्हान पुस्तिका उजवाडावपाक सुरवात केली. हातूंतल्यान पुर्तुगेजांच्या कारभाराच्यो लोकहीत विरोधी गजाली उक्त्यो जावंक लागल्यो. ह्या पुस्तिकांतली सगळ्यांत म्हत्वाची आनी चड गाजिल्ली पुस्तिका म्हळ्यार 'डिनॅशनलायझेशन ऑफ गोवन्स'. ती 1944 वर्सा मुंबयत उजवाडा आयली. भारतांत तेन्ना ब्रिटीश राजवट चलताली. ताचो फायदो घेवन मुंबयतले पुर्तूगेज कॉन्सुलेटीक फुडें काडून, पुर्तुगेज सरकारान आपणाल्या राष्ट्राची हे पुस्तिकेवरवीं निंदानालस्ती जाल्या असो आरोप दवरून, पुस्तिकेचे बरोवपी, छापपी आनी उजवाडावपी हांचेआड कोर्टांत केस घाली. केस डिफेन्स ऑफ इंडिया ॲक्टाखाला घाल्ली आनी पुस्तिका जप्तय केल्ल्यो. पूण जेन्ना ही केस मुंबय उच्च न्यायालयांत, न्यायमुर्ती एम्. सी. छगला हांचेमुखार आयली तेन्ना तांणी ती भायर मारली. इतलेंच न्हय तर, पुर्तुगेजांच्या अत्याचारी कर्तुपां आनी कारभाराआड कडक उतरांनी आपणालें मतय प्रगटायलें.

'गोवा काँग्रेस कमिटी'चें काम कांय वर्सां चल्लें पूण कांय तंत्रीक कारणांक लागून अ. भा. काँग्रेस संघटनेकडली तिची संलग्नताय रद्द जाल्ली. त्रिश्तांवबाब वोगी बसपी नासले. 1945 वर्सा तांणी 'गोवन युथ लीग'ची स्थापना केली आनी गोंयच्या सगळ्या वर्गांतल्या तरनाट्यांक, गोंय मुक्तीच्या आंदोलना खातीर संघटीत करपाचो वावर सुरू केलो. हातूंतल्यान तयार जाल्ले, कितलेच पुरोगामी विचारांचे गोंयकार तरनाटे, उप्रांतच्या गोंय मुक्ती संग्रामांत वांटेकार जाल्ले पळोवपाक मेळ्ळे. 1946 च्या 18 जून हे दिसा, डॉ. राममनोहर लोहियांच्या फुडाकारान जेन्ना गोंयांतलें क्रांतीपर्व सुरू जालें तेन्ना ताचे फाटल्यान गोवा काँग्रेस कमिटीन घाल्ल्या वावराची बुन्याद आसली. गोवन युथ लिगान केल्ली जाग्रुताय आसली आनी पुरूषोत्तमबाब काकोडकार हांच्या फुडाकारान 1945 च्या अदमासाक स्थापन जाल्ल्या गोवा सेवा संघाचेंय बळ आसलें.

18 जून, 1946 दिसा डॉ. लोहियान मडगांवांत जी क्रांतीची मशाल पेटयली ते वेळार त्रिशतांवबाब थंय पावले नात. पूण उप्रांत तेय, अर्थांतच त्या क्रांतीपर्वाचे एक म्हालगडे फुडारी जाले. मडगांवां जमिल्ल्या लोकांमुखार भाशण करतना पुलिसांनी तांकां खूब मार-बडय केली. तसो पुर्तुगेजांचो तांचेर दोळो आसलोच. जुलय म्हयन्यांत पुर्तुगेज पुलिसांनी तांकां अटक केली आनी 24 जुलय, 1946 हे दिसा तांचेर लश्करी कोर्टांत खटलो चलोवन तांकां आठ वर्सां बंदखणीची ख्यास्त फर्मायली. उप्रांत तांकां ख्यास्त भोगूंक पुर्तूगालाक धाडले. थंय पेनीशचे बंदखणींत तांकां दवरिल्ले. 1952 वर्सा हेर म्हालगड्या गोंयकार स्वातंत्र्यसेनांनी वांगडाच, जनरल ॲमनस्टी लागिल्ल्यान तांची सुटका जाली. मात, पुर्तुगालांतच राबितो करपाचें तांचेर बंधन घालें. सुमार वर्सभरया उप्रांत, मोठे हिकमतीन पुर्तुगालच्यान भायर सरून 1953 च्या सप्टेंबरांत ते भारतांत परतले. मुंबय तांणी आपणालो राबितो केलो आनी गोंयचे मुक्ततताये खातीर ते नव्या नेटान वावुरपाक लागले. ते खातीर, गोंयचे मुक्ततायेपासत झुजपी सगळ्यांक एकठांय हाडपी अशी 'गोवा ॲक्शन कमिटी' स्थापन जाली. त्रिशतांवबाब तिचे अध्यक्ष आसले. दादरा नगरहवेलीची मुक्तताय तांणी पळयली. 1954 त सुरू जाल्लें सत्याग्रह पर्व आनी ते उप्रांतचो सशस्त्र संघर्श हाचे ते गवाय आसले. बेळगांवच्यान आन्तोनियु फुर्तादु आनी बेर्था मिनेझीस ब्रागांझ हीं चलयताले त्या **FREE GOA** पत्राचे ते संपादक जाले. ताचोच एक भाग म्हुणून तांणी मुंबयच्यान कोंकणींत **आझाद गोंय** हें नेमाळें पत्र सुरू केलें. जिवीतभर जे तरेचे धकचपाटे तांकां काडचे पडले, ताचो तांचे भलायकेचेर खूब वायट परिणाम जाल्लो. तरीय ते एकसारके काम करतालेच. 1958 त ते सामकेच थकिल्लेवरी जाले. भलायकी अदीकच इबाडली आनी तातूंतच 26 सप्टेंबर, 1958 हे दिसा ते ह्या संवसाराक अंतरले. मर्णा उप्रांत कॅथोलीक चर्चीन आपणाले मसंडभुयेंत तांचेर अंत्यसंस्कार करपाक परवानगी दिली ना. शेकीं, दोन दिसां उप्रांत मुंबयतले स्कॉटिश चर्चीचे मसंडभुयेंत तांची

कूड मातयेक लावंक मेळ्ळी. थंय आशिल्ले तांचे पार्थिव अवशेश उप्रांत गोंयांत हाडून, पणजे आझाद मैदानावयले घुमटेंत उबारिल्ल्या स्मारकाच्या कलशांत 26 सप्टेंबर, 1986 हे दिसा व्हडा मानान ठांयबसकेक लावन सांबाळून दवरल्यात.

त्रिशतांवबाबान आपणाल्या बरोवपांतल्यान सदांच मुळावे पुरोगामी विचार मांडले. स्वतंत्रताय हो तांच्या विचारांचो मुखेल गाभो. आपणाल्या बरोवपांतल्यान तांणी गोंयच्या समाजाची, संस्कृतायेची, भाशेची, अर्थीक तशेंच राजकीय प्रश्नांची आनी विशेश म्हळ्यार गोंयकारांमदल्या आपशकमीपणाची आनी तातूंतय भितर एका विशिश्ट वर्गाची राष्ट्रीयत्वाची भावना पुर्तुगेजांनी कशी मारून उडयली, वैचारिक नदरेन तांकां कशे भांकरूट करून सोडले तें सगळें भोव चिकित्सक नदरेन लोकांमुखार मांडलें. आनी अशें करतनाच लोकांमदलो आत्मविस्वास आनी आत्माभिमान जागोवन ताका भारतीय राष्ट्रनिर्मणेच्या इतिहासीक वावरांत पुरायेन वांटेकार जावपाची जाणवीक करून दिली. त्रिशतांवबाबान हें सगळें जे खरायेन आनी समर्पीत वृत्तीन केलें ताची तुळा आनी मोल केन्नाच करूंक जावंचें ना. आनी देखूनच आमच्यांत जावन गेल्लो तो सगळ्यांत व्हडलो – व्हड मनीस!

**गोंयकारांचें देशभश्टेपण** ही त्रिशतांवबाबांली प्रबंध पुस्तिका म्हळ्यार एक उंचेल्या पांवड्याचें तर्कनिश्ठा आनी बुद्दीनिश्ठा हांच्या घट–मुळाचेर उबें रावन वास्तव परिस्थितीचें दर्शन घडोवपी मोलादीक विचारघन अशें बरप. तांच्या ह्या बरपाक इतिहासीक सत्याचो गडगंज आधार आसा. हें पुस्तिकेंत त्रिशतांवाबाबान जें कितें सांगलां वा जें कितें मांडलां ताचो प्रतिवाद खंयचोच पुर्तूगेज वा तांची तळय उखलून धरपी कोणूच केन्नाच करूंक शकलो ना. गोंयचो भूतकाळ, विशेश करून पुर्तुगेजांची दाखोवन दिल्लें तथाकथीत धर्म आनी फिर्गी संस्कृताय आनी तिचें हळशिकावणें रूप समजून घेवंक गोंयकाराच्या देशभश्टेपणाची ही काणी वाचूंकच जाय. कारण हे काणयेंत आयिल्ल्यो

आपणाकूच उणाख करून सोडपी कांय गजाली अजूनय बरेच जाण पोटलावन बसल्यात. आनी तेच खातीर त्रिशतावबाबांचे विचार आजय खूब म्हत्वाचे.

Denationalisation of Goans चो गोंयकारांचें देशभश्टेपण ह्या माथाळ्याखाला भोव समर्थपणान अणकार करून त्रिशतांवबाबांचे क्रांतीकारी विचार कोंकणी वाचप्यांमेरेन पावोवपाचें काम नामनेचे शिक्षणतज्ञ, लेखक, विचारवंत आनी मोलादीक अभिजात वाङ्मय कृतींक कोंकणी रूप दिवपी, पद्मश्री सन्मानीत सुरेशबाब आमोणकार हांणी केलां. आमच्या उतराक मान दिवन हो अणकाराचो वावर केल्ले खातीर आमी तांच्या सदैव उपकारांत उरतले. सुरेशबाबांच्या वावराक नम्र प्रणाम!

**- नागेश करमली**

पणजी, 26-09-2013

सचिव

त्रिशतांव ब्रागांझ कुंज्य चॅरिटी ट्रस्ट,

पणजी-गोंय.

# अणकारप्याच्या मनांतलें

डॉ. त्रिस्तांव ब्रागांझ कुंज्य हे गोंयचे व्हड आनी प्रभावी विचारवंत. पुर्तुगेजांचे प्रदीर्घ राजवटके आनी राजकी आनी धर्मीक धोरणांक लागून गोंयकारांच्या समाजीक व्यक्तीमत्वांत बदल घडून आयलो हाची खंत तांकां कोरांथताली आनी 'Denationalisation of Goan's ही पुस्तिका हें तांच्या चिंतनाचें फळ. मुंबय महाविद्यालयांत शिक्षण घेतना ती हांवें वाचिल्ली आनी पर्थून एकदां ख्रिस्तपुराणांचे कोंकणी आवृत्तीची प्रस्तावना बरयतना जें संशोधन जालें तेन्ना तिच्यांतले कांय संदर्भ उतारे हांवें हालींच घेतिल्ले.

प्रत्येक समाज ताचेर जाल्ल्या विविध तरांच्या संस्कारांनी घडटा. कोंकणी समाजय ताका आडवाद ना. इतिहासीक कारणांक लागून तो विंगड विंगड राज्यांनी वांटला आनी आतां तर संवसारभर (Goan Diaspora) पातळ्ळा. कोंकणी लोकांचें राज्य केन्नाच जालें ना. आनी हजारांनी वर्सां. वेगवेगळ्या सत्तांनी ताचेर ख्रि.स. 1961 मेरेन राज्य केलें. कोंकणी लोकांचें मूळपीठ जें गोंय हें 1510 वर्सा पुर्तुगेजांनी जिखून घेतकच 450 वर्सां मेरेन तांच्या अघोरी शेकातळा उरिल्ल्यान, गोंयकारांची संस्कृतीक दानाधिस्पट जाली. धर्मकोल्ली पुर्तुगेजांनी 1543 मेरेन तिसवाडी, बारदेश आनी साश्ट हो 663 चौरस किलो मेत्राचो प्रदेश हातासून गोंयकारांक भयंकर पिडापीड दिली आनी सक्तीन चोंब्यांनी केल्ल्या धर्मांतरांच्या धोरणाक लागून पयल्या 250 वर्सांच्या काळांत गोंयांतले पोरणे जिर्खीत भयंकर उत्पात, अच्छेव आनी धुमाळो केल्ल्यान तो काळ अस्थीर उचंबळायेचो आसलो. जेन्ना मार्केज द पोंबालान जेज्वीत धर्मसंघाक जापसालदार धरून, 1759 वर्सा पयलीं तांची आनी उपरांत गोंयांत वावुरतल्या हेर धर्मसंघांची हकालपट्टी केल्ली, तेन्ना त्या सगल्या पाद्रींची सुवात गोंयच्या आर्चबिशपाच्या हाताखाला वावुरपी सेक्युलर पाद्रींनी घेतली. पुर्तुगेजांनी केल्ल्या सक्तीच्या धर्मांतरांक लागून हजारांनी गोंयकार गोंय सोडून शेजारच्या राज्यांत गेल्ले. 1779 त गोंयच्या आर्चबिशपाचे

आज्ञेन घेतिल्ले लोकगणटेंत तिसवाडी, बार्देस आनी साश्ट ह्या तीन म्हालांनी पुर्तुगेजांच्या 250 वर्सांचे राजवटकेंत कुल्लीं 2,04,988 लोकां पैकीं निखटे 19164 हेर धर्माचे (म्हणल्यार हिंदू आनी मुसलमान), जाल्यार वट्ट 1,85,824 क्रिस्तांव धर्माचे लोक आसले.[1] 1510 ते 1961 पर्यंतच्या 450 वर्सांच्या काळांत 1920 वर्सा उपरांत रेपुब्लिकाचीं थोडीं वर्सां सोडल्यार, पुर्तुगेज राज्यसत्ता धर्मसत्तेच्या धोरणानुसार चलताली. आरंभाक 250 वर्सां चलतालें तें खर आक्रमकतायेचें आनी असहिष्णुतायेचें धर्मीक धोरण 1791 वर्सा उपरांत (म्हणचे नव्यो जिखी मेळयले उपरांत) बरेंच मोवाळ जालें. देखून नव्या जिखींत (New Conquests) पुर्तुगेजांचो धर्मीक आनी संस्कृतीक प्रभाव बऱ्याच उण्या प्रभावांत थंय जाणवता. आमचे गोंयचे संस्कृतीक आनी समाजीक वेवस्थेंत ताचें पडबींब स्पश्ट दिसता.

डॉ. त्रिशतांव ब्रांगाझ कुंज्य हांचें शिक्षण फ्रांसाक जाल्लें आनी ते विचारसरणेन उदारमतवादी आशिल्ल्यान पुर्तुगेज वसणूकवादाआड आनी कातोल्क धर्मसत्तेचे विचारसरणे आड झुजत रावले. ते गोवा काँग्रेस कमिटीचे अध्यक्ष आशिल्ले. तांची संघटणा जरी मुखेलपणान गोंयच्या राजकी स्वातंत्र्याखातीर कार्य करताली तरी ती गोंयच्या अर्थीक तेच परी समाजीक विकासाविशीं जागरूक आसली. आपणाले संघटणेची भुमिका स्पश्ट करतना ते म्हणटात, "आमची संघटणा ही राजकी आसा. धर्माचे बाबतींत ती सामकी तटस्थ आसून, सगल्या हिंदुस्थानच्या लोकांचें ऐक्य जावचें, मागीर ते खंयच्याय जाती धर्माचे आसूं, हाचो आमी सोपूत घेतला; आमच्या सभासदांची समान आनी एकूच लागणूक आसा आनी ती म्हळ्यार गोंयांसयत - भारताचें स्वातंत्र्य." पुर्तुगेज गोंयांतल्या राजकारणांत कातोल्क धर्मसत्तेचो प्रभाव आशिल्ल्यान डॉ. कुंज्य सांप्रदायिकताये विरुद्ध आसले. ते म्हणटात, "सांप्रदायिकताये कडेन, मागीर ती जातीची वा धर्माची आसूं, आमकां झुजचें पडटलें. ती आमच्या म्हान देशाच्या मर्मस्थानाक कोरांथपी कीड आसून,

(1) Fr. Cosme da Costa, A Missiological Conflict Between Padroado and Propoganda in the East, Pilar Society, 1997, P.12.

राजकारणांतय लुडबूड करता. आमचो लढो धर्मा आड ना; पूण परकी सत्ता आपल्या फायद्या पासत आनी भारताच्या ऐक्याक बाधा हाडपी अशें जें धर्माचें भांडवल करतात, तें आमकां उक्ताडार हाडपाचें आसा.''

स्वातंत्र्यपूर्व ब्रिटीश हिंदुस्थानांत, चड करून मुंबय शारांत कांय गोंयकार ब्रिटीश राज्यकर्त्यांची आनी विदेशी पाद्रींची खुशामत करून साम्राज्यवादी शक्तींक मदत करताले आनी 'विदेशी तंत्रान चलताले.' त्या काळांतले परिस्थितीचेर भाश्य करून डॉ. त्रिस्तांव म्हणटात, ''गोंयकारांची ही विदेशी तंत्रान चलपाची वृत्ती तशी नवी न्हय. ती आदली आनी शेंकड्यांनी वर्सां पोरणी. गेल्ल्या 430 वर्सांचे परकी राजवटकेंत गोंयकारांत मानसीक बदल जावन ते जे स्वतंत्र मोकळें जीवन जगपाक दिसान दीस नालायक जायत चल्ल्यात, तांकां हाची जाणविकाय करून दिवची आनी हाचीं कारणां उस्तून उजवाडांत हाडचीं, हेंच आमचे हे पुस्तिकेचें उदिश्ट आसा. ही जागृताय घडून आयली जाल्यारूच तांकां आपणाल्या देशभश्टेपणाआड झुजपाक मेळटलें आनी आयज ते जे आपखोशेन बंदे जावपाक सोदतात तें बंद जातलें. भारी निश्ठूर अशे प्रक्रियेन घडोवन हाडिल्ल्या बंदेपणान जांकां कुड्डे केल्यात, तांचे दोळे उगडचे होच आमचो हेतू आसा आपणाले लांबदीक राजवटकेंत, ''पुर्तुगेजांनी मानसीक गुलामगिरी पासत अशीं आगळीं वेगळीं साधनां वापरलीं कीं जाका लागून आमच्या लोकांची राष्ट्रीयत्वाची भावना तर होगडावलीच, पुणून ताचे परसय वायट म्हणल्यार हेर देशांनी जावंक ना अशे तरेन तांच्या सभावांतय बदल घडोवन हाडलो.'' ताचो इतिहास उस्तून काडपा खातीरच तांणी Denationalisation of Goans ही पुस्तिका बरोवन 1944 वर्सा गोवा कॉंग्रेस समितीचे वतीन प्रसिद्ध केली आनी पुर्तुगेजांनी तांच्या बगलबच्च्यांच्या आदारान शालेय पुस्तकां, वृत्तपत्रां आनी साहित्य ह्या सगल्या माध्यमावरवीं पद्धतशीर पणान डावपेंच रचून जो सामको फटीचो प्रचार जाता, तो उक्ताडार हाडूंक प्रभावी प्रचार केलो.

पुर्तुगेजांनी 'भयंकर धर्म समीक्षण न्याय सभेवरवीं' (इंक्विझिशनान) अघोरी साधनां वापरून गोंयकारांची जिणेची पद्धत आनी तांच्यो पारंपारीक

रिती रिवाजो बंद करून लोकांची मानसिकताय बदलपाचो कसो यत्न केलो हाचेर डॉ. कुंज्य उजवाड घालतात आनी मागीर ते एक म्हत्वाचो प्रस्न उपस्थित करून म्हणटात, "ह्या धर्मीक सुधारकांनी... हिंदू धर्माचे जाती वेवस्थेक मात हात लायलोना. ती जातीयता कातोल्क धर्मात तेच भशेन चालू उरली."

डॉ. कुंज्य गोंयकारांच्या संस्कृतीक देशभश्टेपणाविशीं आपणाले प्रभावी विचार मांडून म्हणटात, "हांगचे संस्कृतायेची बुन्यादच तांणी नश्ट केली आनी आमची बौद्धीक तांक नक्कल आनी विडंबनाचे सकयले पातळेर हाडली." संस्कृतीक दिवाळखोरीचीं कारणां सोदतना डॉ. कुंज्य अचूकपणान एका म्हत्वाच्या कारणा कडेन आमचें लक्ष ओडून आमकां शिटकायतात. "खऱ्यांनीच संस्कृतीक दिवाळखोरीचें मुखेल कारण म्हणल्यार खास करून कोंकणी आनी मराठीचो रानटीपणान केल्लो छळ आनी पुर्तुगेज भाशेची सक्ती... ह्या मुर्खपणाच्या धोरणाचो निव्वळ परिणाम म्हणल्यार आमची भयानक निरक्षरताय (1944 वर्सा ती 20 टक्क्यांपरसय उणी आसली – अणकारपी) जातूंत आमचे लोक बुडल्यात तें दुख्खदिणें अज्ञान आनी एकूय कोंकणी शाळा नासप हो आसा... आमची आवयभास केळोवपाक आडखळी घाल्ल्यान आमचे उच्चतम विचार आनी अगड भावना उक्तावपाचें सभावीक साधन गोंयकारां कडल्यान काडून घेतिल्ल्यान तशेंच तांची उत्स्फुर्तताय आडावन उरिल्ल्यान, तांचे कडसून नांव घे सारकें साहित्य निर्माण जालें ना... आपणाले अडाणी भाशेची लज दिशिल्ल्यान शिकिल्लो संवरिल्लो वर्ग तिची अखटाय करता. परकी भाशेंत बरोवंचेली तांचेर सक्ती जाल्ल्यान ते फकत नकली साहित्य निर्माण करपाक शकतात, कित्याक. चैतन्य आनी नवनिर्मितीची तांक आशिल्लें साहित्य ते बरोवचे नांत, जें निर्मुपाचो विशेश अधिकार आपले वंश परंपरेच्या दायजाचे खोल जाणविकायेंतल्यान स्फुर्ती घेतिल्ल्या लोकांकूच फावता."

कितले दूरदिश्टीचे हे विचार! आतां गोंय मुक्तीक 50 वर्सां जावन गेलीं तरी लेगीत आमच्या समाजांत मुळाव्या शिक्षणाच्या पावंड्याचेर जें इंग्रजी

माध्यमाचें फॅड आनी पिशेंपण रिगलां, ताचो समाजाचेर जावपी दुशपरिणाम आनी कांय वर्सांनी आमच्या समाजाक भोगचो पडटलो. ताका लागून आमचीं भुरगीं तांच्या संस्कृतीक मुळा सावन हुमटिल्ल्यान, तांचीं व्यक्तिवां खुंट्टलीं आनी तांची सभावीक सृजनशक्ती आट्टली. 450 वर्सां पुर्तुगेज भाशेचेर प्रभुताय संपादन करपाच्या नादांत ज्या गोंयकारांक पुर्तुगेज भास आत्मसात करपाक जमलीना, ते लोक इंग्लीश भाशा आत्मसात करपाच्या नादांत खंयचे संस्कृतीक अधोगतीक पावतले ताचें चित्र दोळ्यांमुखार हाडूं येता. डॉ. त्रिशतांवबाबान आमकां दिल्ली शिटकावणी आजूनय आमी मानून घेनात हें आमच्या अदूरदर्शीपणाचें लक्षण म्हणपाक जाय. जे देश मानसीक बंदेपणांतल्यान भायर सरल्यात, त्या चीन, कोरिया आनी जपान ह्या देशांची देख आमी घेवचीच पडटली, ना जाल्यार आमी सासणाचे गिड्डेच उरतले.

फाटल्या म्हयन्याच्या निमाण्या सप्तकांत स्वातंत्र्यसैनीक भोवमानेस्त नागेशबाब करमली हांची अचकीत भेट जाली तेन्ना हे पुस्तिकेंतल्या विशयांची जी चर्चा जाली, ताचें फळ म्हणल्यार हे पुस्तिकेचो म्हजे कडल्यान जाल्लो अणकार. म्हान स्वातंत्र्यसैनीक डॉ. त्रिशतांव ब्रागांझ कुंज्य हांच्या अलौकीक आनी स्फुर्तीदिण्या कार्याक आनी उगडासाक हे म्हजे ल्हानशे कृती वरवीं म्हाका आदरांजली ओपूंक मेळ्ळी हें हांव म्हजें सद्भाग्य समजतां.

**– सुरेश गुंडू आमोणकार**

नातालांचो दीस
25-12-2012
गुरूकुंज, दत्तवाडी,
म्हापशें – गोंय

# प्रस्तावना

चारशें वर्सांचे परदेशी परकी राजवटके उपरांतचो 'पुर्तुगीज इंडिया' ही आमची पयली पुस्तिका लोकांनी विलक्षण ओडीन उखलून धरिल्ल्यान आमी ही प्रस्तुतची पुस्तिका उजवाडावपाक उर्बेन मुखार सरल्यात. गोंयकारांच्या मानसीक, समाजीक आनी राजकी विकासाचेर अराष्ट्रीय शक्तींचो शेक दाखोवप होच हे पुस्तिकेचो उद्‌देश आसा. हिंदुस्थाना कडेन एकवट घडोवन हाडचेलो सोपूत आमचे संघटणेन घेतिल्ल्यान, साम्राज्यशायेचे विघातक शक्तींचो निशेध करून आमी फकत आमचे लागणुकेकूच पाळो दीत आयल्यात. आमच्या लोकांक मनान बंदे करून आनी प्रतिस्पर्धी गटांत फूट घालून देशाचे कुडके करप, हाचे फाटल्यान आशिल्ल्या विदेशी दलालांचे प्रयत्न उक्ताडार हाडप हो आमचो उद्‌देश आसा.

भारतीय नेत्यांकडल्यान आनी लोकमत घडोवपी भारतीय वृत्तपत्र माध्यमांकडल्यान आमचे पयले पुस्तिकेविशीं जे संदेश मेळ्ळे आनी तोखणायेचीं उतरां आमी आयकलीं, ताका लागून आमच्या कामाक उर्बा मेळ्ळी. तातूंतले वस्तुस्थितीन आनी आंकडेवारीन वाचकांचे दोळे उगडले. भारतीय राष्ट्रीय कॉंग्रेसीचे त्यावेळचे अध्यक्ष डॉ. राजेंद्रप्रसाद, आदले अध्यक्ष जवाहरलाल नेहरू आनी सुभाषचंद्र बोस, मध्यप्रदेशाच्या कॉंग्रेस सरकाराचे माजी पंतप्रधान एन. बी. खरे, अश्या व्यक्तीं कडल्यान गोवा कॉंग्रेस कमिटीकडे आयिल्ले सहानुभूतीचे आनी तोखणायेचे संदेश आनी भारतीय वृत्तसंस्थांचे परिक्षणात्मक लेख हे सगळे ते पुस्तिकेवरवीं उक्ताडार हाडिल्ल्या घटनांविशीं एकमतान अजाप दाखयतात. त्यो सगल्यो गजाली

---

* ही पुस्तिका डॉ. त्रिस्तांव ब्रागांझ कुंज्य हांणी गोवा कॉंग्रेस समितीचे वतीन 1944 सालांत उजवाडायल्ली, जेन्ना भारताची स्वातंत्र्य चळवळ चलताली.

अधिकृत दस्तावेजांतल्यान केल्ल्या नोंदीवयल्यानूच घेतल्यात. फक्त त्यो जतनायेन गुपीत दवरिल्ल्यावन (म्हणजे एकाद्रया कठोर विसकटावणेन त्यो उक्त्यो जावच्यो न्हय म्हणून किंवा फटीच्यो गजाली भरशिल्ल्यानूय जायत) सर्वसादारपणान त्यो कोणाचे नदरेक येवंक नासल्यो. ह्या अचर्यांचेर म्होर मारली ती भारतांतल्या असंख्य वर्तमानपत्रांनी. मद्रासच्या (चेन्नाय) सुप्रसिद्ध 'हिंदु' दिसाळ्यान म्हणलें. ''हे पुस्तिकेन सरसमान वाचप्यांच्या दोळ्यांत झणझणीत अंजन घालां. हे पुस्तिकेंत चित्रायल्ली परिस्थिती इतली वायट आसूंक जायनासली, अशें दिसलेबगर रावना.'' लखनौचो नॅशनल हेरल्ड म्हणटा, 'सर्वसादारणपणान पुर्तुगेज भारताक म्हणसारकें म्हत्व मेळना. कित्याक पुर्तुगालाक वसाहतवादी सत्ता म्हणून म्हणसारकें म्हत्व दिवंक नाशिल्ल्यान घडये आसत आनी देखुनूच गोवा कॉंग्रेस कमिटीन ही पुस्तिका उजवाडावन चारशें वर्सांचे राजवटकेंत ह्या प्रदेशाची जी दुख्खदिणी दशा जाली, ताची विसकटावणी केली ही बेस बरी गजाल जाली.'

'द फेडरेटेड इंडिया' आपलें अजाप लिपयनासतना म्हणटा, 'पोर्तुगीज इंडिया' हे पुस्तिकेन मन सामकें पडलें. खातरीचे म्हायतीचो आधार नाशिल्लो जाल्यार ते परिस्थितीच्या खरेपणाविशीं दुबावच अदीक दिसतलो आसलो. ते स्थितीच्या अस्तित्वाचो मात लेगीत दुबाव घेनासतना ह्या बंदेपणाचो आनी प्रतीगामी विचारधारेचो संयोग आमी सोंशीत आयल्यात. 'रुरल इंडिया' आपलें मत स्पश्टपणान मांडटना म्हणटा, 'हे पुस्तिकेन जें दर्शन घडयलां तें सत्य आसून लेगीत विस्वास दवरपाक कठीण दिसता. खूब लोक ही ल्हान पूण म्हत्वाची पुस्तिका वाचतले अशी आशा बाळगुया. 'द कोचिन ऑर्गस' मानून घेता, 'भारतांतल्या पुर्तुगेज शेकाच्या काळांत ही पुस्तिका थंय अस्तित्वांत आशिल्ले समाजीक, अर्थिक, राजकी आनी संस्कृतीक स्थितीचेर घणघणीत उजवाड घालता.' फादर कँडीस, एक गोंयकार पाद्री, 'ध सर्व्हंट ऑफ इंडिया' हातूंत बरयता : भारतांतले ब्रिटीश

राजवटकीचें वर्णन जें 'सैतानी' ह्या शब्दांत व्यक्त करतात, तांणी (गोयांतल्या) पुर्तुगेज शेकाक ताचेपरस खंयचें अदीक जळजळीत उतर वापरचें हाचेविशीं वाचप्यांकूच आपल्या शब्दकोशांत संशोधन करून थारावचें पडटलें. हे धर्तरेचेर देशी लोकांची पर्वा केले विणें गोऱ्या लोकांनी फक्त आपल्याच फायद्यापासत एकाद्रया देशाचो उपेग केला आसत, तर तो देश म्हळ्यार गोंय.

शेकीं, प्रियरंजन सेन, कलकत्याच्या 'मॉडर्न रिव्हयू'त आमचे पुस्तिकेचेर बरयल्ल्या लांबदीक लेखांत उणे अजापीत जाल्यात अशें दिसना. उक्ताडार आयिल्ल्या सत्य घडणुकांविशीं जांकां आजुनूय दुबाव आसा तांणी ही पुस्तिका वाचल्यार तांचो फायदोच जातलो अशें ते म्हण्टात.

हाचे उरफाटें, आमचेर केल्ल्या निनावी लेखकांच्या खर टिकेचीय नोंद घेवची पडटली. 'एक्झामिनर' ह्या मुंबयच्या जेजुईट वृत्तपत्रांत 'गूड ऑथॉरिटी' ह्या नांवान आमचे पुस्तिकेचेर अशें बरयलां: 'हे पुस्तिकेंत जायते कडेन इतिहासीक चुको आसात आनी तांतलें अर्थशास्त्रीय विचार अत्यंत पोरकट आसात.'

त्याच वृत्तपत्रांत 'कॅथलीकूस' हाणें धिगी दिल्ल्या मताकडेन गोंयांतलें एक राष्ट्रीय सातोळें पुरायपणान सहमत आसा. तांदळांच्या प्रस्ना विशीं आमी जी विसकटावणी केल्या ताचेर आपले सुसंस्कृत भाशेंत बरयतना, तांकां आमचें अर्थशास्त्र 'मुर्खपणाचें' दिसता. पुणून हे टीकाकार निनावी आनी बेजबाबदार आसून लेगीत आमच्यो इतिहासीक चुकी खंयच्यो हें मात खंयच दाखोवन दिनात किंवा आमच्या अर्थशास्त्राचें विसकटावणेंत पोरकटपणां किंवा मुर्खपणा खंय आसा तें दाखोवपाचो मात्तूय यत्न करिनात. खंयचीय गजाल ते नाकारिनात किंवा खंयचोय मुद्‌दो ते खोडिनात. अती नमळायेचे तॆ आशिल्ल्यानूच आपल्या अफाट ज्ञानाचें प्रदर्शन करपाक ते राजी नासत.

इतलेंय आसून, जेजुईट 'एक्झामिनर' चे 'कॅथलीकूस' आनी 'गोमंतक
चे कॅथलीकूस विरोधी ह्या दोगांयनी जरी एक सारकीच टीका पद्ध
वापरली आसली तरी तांचे दिश्टीकोण वेगळे आसात. पयल्याच्या मतान
आमचें (गोवा कॉंग्रेस समितीचें) मार्गदर्शक तत्व हें कुविख्यात, नास्तिक
धर्मभश्ट आनी धर्मविरोधी आसून, ते साम्यवादी विचारांचो प्रसार करता
दुसरेंय तितक्याच ठामपणान आमचे संघटणेक 'जेजुईटांच्या पाख्याखाला
काम करता म्हूण दुशण दिता. दोनूय विधानां परस्परांचीं मतां खोडटा
आनी ताचे फाटलो आपलो वायट हेतू आनी दुस्वास सिद्ध करतात
आमचे समितीचो उद्देश कोणाच्याच जाती धर्मांत मात्तूय लुडबूड करपाचं
ना हें दोगांकूय सामकें खबर आसा. शिवाय दोगांकूय अर्थीक आनं
इतिहासीक विशयांचेर मत मांडपाचो अधिकार ना अशें जाणवता. देखुनू
असल्या टीकाकारांचो आमी गंभीरपणान क्तित्याक विचार करिनात हें उक्त
आसा. तरी लेगीत आमचे समितीकडेन तांचें वैर आसपाचें खरें कारण
कितें आसत हाचें स्पश्टीकरण करप गरजेचें आसा.

आमची संघटणा ही राजकी आसा. धर्माचे बाबतींत ती सामकी
तटस्थ आसून सगल्या हिंदुस्थानाच्या लोकांचें ऐक्य जावचें, मागीर ते
खंयच्याय जातीधर्माचे आसूं - हाचो आमी सोपूत घेतला. आमचे समितीच्या
सगल्या सभासदांची समान आनी एकूच लागणूक आसा आनी ती म्हळ्यार
गोंयांसयत भारताचें स्वातंत्र्य.

हे संघटणेंत सगल्या जाती -धर्माचे गोंयकार, भावकेचे भावनेन
वावुरतात. हिंदू आसूं, कॅथलीक वा हेर कोणूय आसूं, सगल्यांकूच पुराय
समभावान वागयतात. पूण आमचे विरोधक मात गोंयकारांमदीं सांप्रदायिक्ताय
वाडोवपाक उत्सूक आसात. देखुनूच फक्त निश्क्रीय तटस्थते परस भारताचें
ऐक्य आमचे दिश्टीन चड म्हत्वाचें आसा.

सांप्रदायिकताये कडेन, मागीर ती जातीची वा धर्माची आसूं, आमकां

झुजचें पडटलें. ती आमच्या म्हान देशाच्या मर्मस्थानाक कोरांथपी कीड आसून, राजकारणांतय लुडबूड करता. आमचो लढो धर्मा आड ना पूण परकी सत्ता आपल्या फायद्या पासत आनी भारताच्या ऐक्याक बाधा हाडपी अशे जे धर्माचें भांडवल करतात, तें आमकां उक्ताडार हाडपाचें आसा. म्हणूनच आमची संघटणा जातीयतेआड वावुरता. म्हणजेच ज्यो व्यक्ती किंवा संघटणा, धर्मीक किंवा धर्मविरोधी बावट्या खाला भारतीयां मर्दी असंतोश पातळावन साम्राज्यवाद्यांच्या किंवा तांच्या दलालांच्या हातांतलीं बावलीं जातात, तांचो आमची संस्था विरोध करता. देखुनूच इंडियन नॅशनल काँग्रेस आपणाले निवड समितींतल्यान मुस्लीम लीग किंवा हिंदू महासभेसारकेल्या जातीयवादी पक्षांक भायर दवरता. तोच जातीयवाद गोंयकारां मर्दी चालंत आसा. धर्म आनी जात हीं दोनूय जायत्या लोकांक सार्वजनीक कार्याचे आधारस्तंभ म्हणून मिरोवपाक आलाशिरो दितात. कित्याक ते अज्ञानी, असावध लोकांचे श्रद्धेचें भांडवल करतात. तांचो धर्मभिमान चड करून अदीक घात करपी आसता. कित्याक, विदेशी हितसंबंधाक तो सरळ शरण गेल्लो आसता. आपणाल्या विदेशी धनयांक किंवा तांच्या दलालांक खूश करून ताच्या मोबदल्यांत आपणालें संरक्षण करप आनी तांची कृपा मेळोवप हेंच तांचे निमाणें ध्येय आसता. स्वताचो बडवाचार आनी स्वार्थ हींच तांकां आपणाल्या कामांतल्यान सादर्चीं आसतात.

परकी धर्मिकांच्या फुडारपणा खाला हेच भाडोत्री मुंबय विधानसभेच्या वेंचणुकांत इंडियन नॅशनल काँग्रेसच्या आड लडले. कित्याक, स्पॅनीश यादवी युध्दांत इंडियन नॅशनल काँग्रेसीन रिपब्लीकनांक सहानुभूती दाखयली म्हणून तांचेर तांणी नास्तिक आनी बॉलशेवीक असो ठपको दवरिल्लो. अशे तरेन जो केवळ भारताचो भारतीयांच्याच हिताचो मुद्दो आसलो, थंय लेगीत ह्या लोकांनी स्पॅनीश हुकूमशाय आनी तांची प्रतिगामी विचारधारा

ही आमच्या देशहितापरस अदीक म्हत्वाची मानली. विधानसभा आनी नगरपालिका (लेजिस्लेटीक आनी म्युनिसिपल काउन्सील) तशेंच कामगार संघटणेंत (ट्रेड युनियन्स) लेगीत आपूण राष्ट्रविरोधी चलणुकेचे म्हणून गोंयकार फुडाऱ्यांनी दाखोवन दिलां. हेच लोक आयज गोवा काँग्रेस कमिटीक धर्माचेर संकट आयिल्ल्याचो हावको दाखोवन विरोध करतात. हेच लोक चडशे ब्रिटीश राज्यकर्त्यांचे आनी विदेशी पाद्रींची खुशामत करून गोंयकार हे भारतीय राष्ट्रवादाक प्रतिकूल आशिल्ल्याचे धोल-ताशे बडयतात आनी एके तरेन साम्राज्यवाद्यांक मदतच करतात. जेजुईट पाद्रीच तांचे फुडारी. ह्या अध्यात्मीक उपदेशकांच्या उपद्रवी कारवायांक लागुनूच गोंयकार हेरांपासून कुशीक पडल्यात आनी पर्यायान ब्रिटीश हिंदुस्थानांत राष्ट्रवादाचें ल्हार पातळ्ळां आसतनाय आमकां गोंयकारांक बहिश्कृत जाल्लेवरी दिसता.

गोंयकारांची ही विदेशी तंत्रान चलपाची वृत्ती तशी नवी न्हय. ती खूब आदली आनी शेंकड्यांनी वर्सां पोरणी. गेल्ल्या 430 वर्सांचे परकी राजवटकेंत गोंयकारांत मानसीक बदल जावन ते जें स्वतंत्र मेकळें जीवन जगपाक दिसान दीस नालायक जायत चल्ल्यात, तांकां हाची जाणविकाय करून दिवची आनी हार्ची कारणां उस्तून उजवाडांत हाडचीं हेंच आमचे हे पुस्तिकेचें उदिश्ट आसा. ही जागृताय घडून आयली जाल्यारूच तांकां आपल्या देशभश्टेपणाच्या आड झुजपाक मेळटलें आनी आयज ते जे आपखोशेन बंदे जावपाक सोदतात तें बंद जातलें. भारी निश्ठूर अशे प्रक्रियेन घडोवन हाडिल्ल्या बंदेपणान जांकां कुड्डे केल्यात, तांचे दोळे उगडचे होच ह्यो सगल्यो गजाली उक्त्यो करपा फाटलो आमचो हेतू आसा.

हे पुस्तिकेंत आशिल्ल्यो घडणुको आनी उतारे, हे सगले अधिकृतपणान प्रसिध्द्ध जाल्ल्या आनी धर्मीक अधिकारी व्यक्तींकडल्यान मान्यताय मेळिल्ल्या पुस्तकांतल्यानूच घेतल्यात. हातूंत सगळ्यांत म्हत्वाची म्हळ्यार आफोंसु द आल्बुकेर्क आनी सांत फ्रान्सिस शावियॅराचीं खरेलीं पत्रां,

आर्कीव ओरिएंताल पुर्तुगेज (नवी आनी पोरणी माळ), कोंकणी भाशेवयलो इतिहासीक प्रबंध हीं कुंज्य रिवार हांचीं पुस्तकां, ओरिएंति कॉंकिश्तादु हें जेजुईट पाद्री फ्रांसिस्कु दं सौज हांचें पुस्तक, फ्रेंच प्रवादी देलाँ आनी पिरार्द हांचीं गोंयचेर बरयल्लीं पुस्तकां, पुर्तुगेज राजांच्या सनदांचो संग्रह, सरकारी आदेश आनी अधिकृत आंकडेवारी दिवपी कितलींशींच असंख्य लेखकांचीं जुनीं आनी नवीं पुस्तकां. ह्या सगल्यांचीं पुराय यादी हांगा दिवप शक्य ना.

# गोंयकारांचें देशभश्टेपण

सगळ्या हिंदुस्थानांत आपलें राष्ट्रीयत्व होगडावन देशभश्टे जाल्ले गोंयकारां इतले हेर कोणूच आसचे नात. राष्ट्रीयतेच्या जाणविकायेचो पुराय अभाव आनी सामकी लज दिसपाक फावो अशे तरेन परकी सत्तेक शरण वचप – मागीर ती सत्ता ब्रिटीश आसूं वा पुर्तुगेज – हे गजालीक लागून गोंयकार आपल्याच देशांत परकी जाले, चड करून क्रिस्तांव गोंयकार. प्रत्येक अस्तंती गजालीचें लाचार आनी कुड्डें अनुकरण आनी रितीरविशेचें मिश्रण हाका लागून तो आपले सैमीक वातावरणाकडेन विसंगत जावन तुटलो. ताचो वंश शेजारच्या हिंदुस्थानी लोकांपरस मात्तूय वेगळो ना; पूण ताचे हे विचित्र चलणुकेन त्या वंशाचे शुद्धते विशीं दुबाव निर्माण जाता. अस्तंती शिश्टाचाराचें धोंग आनी पुर्तुगेज नांवां आपणावप हाका लागून ताका मिस्तीस वा मिश्र वंशाचो समजतात. एका पुर्तुगेज कॅथोलीक धर्मप्रसारकान ताका पुर्तुगेज संकरीत (mongrel) अशी उपाधी दिवन उडयल्या.

मागीर ह्या लज दिसपी परिवर्तनाक लागून आमच्या देशबंधवांच्या नांवांक कलंक लागता आनी तें लेगीत हिंदुस्थानाच्या स्वातंत्र्याची चळवळ अश्या प्रगत टप्प्याचेर येवन पाविल्ली आसतना, हाचीं कारणां कितें आसूं येत? तर, म्हान भारताच्या स्वातंत्र्य लढ्याकडेन आपूण एकरूप जावपाक बाधा हाडपी हे विलक्षण चलणुकेचेर उपाय सोदचे पयलीं आमी ह्या परिवर्तनाचो मूळ उगम आनी ताचीं कारणां हाचो आदीं अभ्यास करपाक जाय. पयली गजाल म्हणल्यार सक्तीन जाल्ले हें देशभश्टेपण हांगा ठळकपणान दिसता. कित्याक भारताच्या हेर खंयच्याय वाठारापरस गोंयांत परकी राजवट चड काळ तिगली. चारशें वर्सां परसय चड, आडखळी विणे तिगिल्ल्यान वसणूकवाद्यांच्या जुलमाक लागून तांच्या सभावांत विकृत

बदल जालो. पुणून फकत दीर्घकाळ हें एकूच कारण ह्या सगल्या गजालींचें समर्थन करपाक पुरोशें ना. ताचे परसूय पुर्तुगेज राज्यकर्त्यांची आगळी वेगळी जुल्मी पिडणूक आनी दुसऱ्यांचे रितीरविशेविशीं असहिष्णुताय हांणींच गोंयकारांच्या राष्ट्रीयतेचो गूण नानपयत केलो वा तो इबाडलो.

संस्कृतायेच्या नांवांखाला हेर वसणुकवादी सत्ता जुलूम करून सुवार्थ सादतात. पूण तितल्याचेरूच समाधान मानिनासतना पुतुगेजांनी मानसीक गुलामगिरी पासत अशीं आगळीं वेगळीं साधनां वापरलीं, जाका लागून आमच्या लोकांनी राष्ट्रीयत्वाची भावना तर होगडायलीच, पुणून ताचेय परस वायट म्हणल्यार हेर देशांनी जावंक ना अशे तरेन तांच्या सभावांतच बदल घडोवन हाडलो. इतले सकयले पातळेचेर आपणाक हाडून सोडपी हे विरूपतायेची खासा गोंयकारांकूच घडये जाणय नासत. पूण आतां हे प्रक्रियेचो इतिहास आमी उस्तून काडटले. हो इतिहास लोकांक कळप गरजेचो आसा. कित्याक शालेय पाठ्यपुस्तकां, वृत्तपत्रां आनी साहित्य ह्या सगळ्या माध्यमावरवीं पद्धतशीरपणान डावपेंच रचून सामको फटीचो प्रचार जाता आनी तो दंतकथा पातळावपी केद्‌लावण्योच म्हणपाक फावो.

हांतल्यो दोन दंतकथा सामक्यो हिडीस आसात. कित्याक त्यो गोंयकारांनी अचळय आपणायल्ल्यान पुर्तुगेजांच्या उद्देशांचें समर्थन जाता. पयलीं गजाल म्हणल्यार बडायेन सांगतात तें 'सहवास आनी एकमेकांत मिसळून एकरूप जावपाचें धोरण'- policy of assimilation and association ह्या तथाकथित सहिष्णुतायेचो संबंध जाका लायला. तो म्हणजे तांचो पयलो जेतो आफोंसु द आल्बुकेर्क. दुसरी गजाल म्हणल्यार सांत फ्रांसिस्कु शावियेर हाणें अद्भूत चमत्कारांनी घडयल्लीं धर्मांतरां. ह्या दोना पयलीं एकेय गजालीक इतिहासाचो पुरावो ना. दोनूय गजाली 'गोंयचो जेतो' आनी 'हिंदुस्थानाचो आपोस्तोल' हांणी स्वता बरयल्ल्या पत्रांनीच न्हयकारल्यात. हें ह्या सुपुल्ल्या निबंधांत आसपावतलें तितलें उतारे फुडें दिल्यात ताचे वेल्यान दिसतलें.

# आल्बुकेर्कीची सहिष्णुताय

केवळ तिमोजा आनी माधवराव ह्या हिंदूंकडेन आशिल्ली ताची इश्टागत आनी गोंय काबीज करतना हिंदू अधिकाऱ्यांक ताणें दिल्ल्यो देणग्यो हांच्याच आधारांचेर आल्बुकेर्कीचे सहिष्णुवृत्तीचें समर्थन सिद्ध करतात. पूण हाका लागून एकूच गजाल सिद्ध जाता ती म्हळ्यार ह्या पुर्तुगेज जेत्याक आपले साप्प थोडे सेनेसयत गोंयांतल्या मुसलमान राजा कडेन झुजपाची तांक नासली. मुसलमानां आड हिंदूंची मदत घेवप ताका गरजेचें दिसलें. आपल्या सुवार्था खातीर ताणें हिंदी लोकां मदल्यो धर्मीक भावना भडकावपाचो उपेग केलो, जें फुडें फ्रेंच आनी इंग्लीश लोकांनीय केलें. आरंभाक हिंदूंक दाखयल्ली ही तथाकथित सहिष्णुताय, मनाची उदारताय वा विशाळताय असो जरी समज करून दिल्लो अशें जरी समजतात तरी ती त्या वेळच्या धोरणाची आनी काळाची गरज आसली आनी हेरां आक्रमकांच्या धोरणाकडेनय तिचें साम्य आसलें. ताका हिंदूंक मुसलमानापासून मुक्त करपाचो फकत आव हाडपाचो आसलो. तो पक्को चांचेगिरी करपी आशिल्ल्यान जाता तितली लूट एकठांय करप होच ताचो खरो उद्देश आसलो.

आपणाल्या हेतूंचो कबुलीजबाब दिवपी ताच्या अहवालांत आपलो होच एकमात्र उद्देश आसलो हें ताणें स्पश्ट केलां. राजा दों. मानवेल हाका बरयल्ल्या लांबदीक पत्रांत, तुर्की आनी पर्शियन, तशेंच हिंदू आनी मुसलमान हांचेमदीं आशिल्ल्या मतभेदांचें आनी वैराचें वर्णन करतना ताचो पुराय लाव उठयतां अशें ताणें म्हणलां. तो बरयता:

"राजा सायबाक हांव हो अहवाल धाडपाचें कारण म्हणल्यार हिंदुस्थानांतल्या राजांचे आनी सरदाराचे परस्परांकडेन आशिल्ले मतभेद आनी वैर. ईश्वराचे इत्सेन आनी आपसांतल्या वाडट्या वैराक लागून तांचे

मर्दी झूज जाल्यार, तातुंतलेच कांय जाण राजा सायबाक आपणालो रक्षणकर्तो समजून आपणालो कांय प्रदेश बहाल करतीत.''

'फोडा आनी झोडा' (Divide et impera) ह्या परिचीत तत्वाक चिकटून, त्याच पत्रांत ताणें हिंदू राजांकडेन आपणाली वागणूक उक्ती केल्या. आपणे चलयल्ली नीती मान्य करतना ताणें सांगलां की कालिक्तच्या झुजांत झामोरिनाक हारोवप अशक्य जाल्ल्यान ताका वीख घालून मारपाचो आदेश दिला आनी बक्षीस म्हणून हिंदू धर्माचो आदर करपाचें उतर दिलां.

तो बरयता, ''नंबुद्रीन वीख घालुनूच झामोरिनाक मारलो आसतलो हाची म्हाका खात्री आसा. कित्याक, हांवें पर्थून ताका तशें सांगिल्लें. शांततायेची कबलात करतना हांव करार करतलों तेन्ना राजा सायब, हिंदू धर्म आनी कोचिनच्या राजाचे सगळे सुवाळे चालू दवरतलों.''

गोंय काबीज करपा विशीं हो 'उदार आनी सहिष्णु' कापितांव आपणाल्या 22-12-1510 ह्या दिसा बरयल्ल्या पत्रांत मुसलमानांचेर आपणे केल्ले अत्याचार अशे तरेन वर्णिता:

''गोंय जिखपाक आनी त्या वाठारांतल्या शेतांभाटांची वाट लायत किल्ल्यांत रिगपाक आमचेर देवाची खूब कृपा जाली, कित्याक आपले कल्पनेपरसूय व्हड कार्य आपणाल्या हातसून जावचें अशीच ताची इत्सा आसूं येत. लागीं लागीं 300 तुर्की आमी मारले. थंयसावन बाणस्तारी आनी गंवडाळीक वचचे मार्गाचेर खूब लोक मेले वा जखमी जावन पळ्ळे. न्हंये पलतडी वतना जायते लोक आनी घोडे बुडून मेले. मागीर हांवें सगळ्या शाराक उजो लायलो आनी मुखार दिसतल्यांक तरसादीन कातरून उडयले. कितले तरी दीस आपणाल्या लोकांनी रगत व्हांवयलें, खंयचोय मुसलमान दिशिल्ल्या खिणाक जितो सुटलो ना. मशिदी (मुड्ड्यांनी) भरल्यो आनी पेटयल्यो. फकत बामण आनी जमीन कसपी हांकां मारचे न्हय असो हुकूम दिलो. आमच्या हिशेबा प्रमाणे 6000 लोकांक तरी मारले

आसतले. मुसलमान बायलो, दादले आनी तीर मारपी सैनीक खूब मेले. राजा सायबांनो, ह्या म्हान झुजाचो आरंभ आनी शेवट बेस बरो जालो. शिवाय, गोंयां मोक्याचें आनी म्हत्वाचें शार आशिल्ल्यान मुसलमानांनी राजासायबां आड केल्ल्या विस्वासघाताचो आनी दुश्टपणाचो आजून सूड घेवंक ना, पुणून सगळेकडेन आयकूंक वचत आनी भंयान अजापीत जावन जिखलेविणें राजासायबांच्या पायांकडेन कितल्यो तरी गजाली येवन पडटल्यो. बरंच व्हड मोल दिवचें पडटलें हाची जाण आशिल्ल्यान खंयचेंय वायट कृत्य घडचें ना.''

आमचो हो पुर्तुगेज जिचे बद्दल बडायेन फुशारकी मारता ते हे लढाये परस क्रूर निश्ठूर आनी निर्दय कृत्यांची कल्पनाच करूंक येना. मुखेल शत्रू मुसलमानां विरूद्ध ताणें हें धोरण चालू दवरलें. आपणाक नखलामी जाली ना म्हणून आरंभाक हिंदूचें फाटबळ ताका मेळ्ळें. ताचें वर्णन तो करता: ''तुर्कांनी जांच्यो जमनी बळकायल्ल्यो ते थळावे मुखेली म्हज्या आलाशिऱ्याची वाट पळयत दोंगरांत लिपिल्ले. गोंयां शारांत जाल्लो सांवार कळटकच तें दोंगरांतल्यान खाला येवंक लागले. रस्त्यांतल्यान आनी न्हंय बालांडून पलतडीं वतना वाटेंत पळून वचपी मुसलमान मेळटकीच तांकां ते तरसादीन जिते मारून तांचे कडली खुबशी लूट ताणी एकठांय केली. कमाविसदार आशिल्ल्या एका तुर्की सरदारा लागीं ताच्या सैनिकांचो पगार आसलो. ताका जितो मारून ताचेकडे आशिल्लो सगलो ठेवो लुटलो. मुसलमानांची एकूय इमारत किंवा कबर हांवें बाकी दवरली ना. जे जिते सापडले तांकां जितेच जाळपाचो हुकूम हांवें दिलो. एक देशद्रोही सांपडलो तांकां जितोच भाजलो.''

हें जालें मुसलमानांबद्दल. आतां दोन सरदार, तिमोजा आनी माधवराव हांणी आल्बुकेर्कीकडेन इश्टागत केल्ल्यान तांकां कांय सवलती मेळ्ळ्यो. जिखिल्ल्या ह्या वाठाराचें तांणी रक्षण करचें हें अटीचेर तांकां करवसुलीचे

हक्क दिले. हातूंत आल्बुकेर्कीच्या मनाचें व्हडपण नासलें, तर हिंदी लोकांच्या फाटबळाबगर ताका थंय राज्य करपाक येवचें ना हें सिद्ध जाता. आपणाल्या 30 नोव्हेंबर, 1513 ह्या दिसा राजाक धाडिल्ल्या अहवालांत तो विसकटावन बरयता:

"राजा सायबाक हांव कळोवपाक इत्सितां कीं पयले आनी दुसरेय फावट गोंय घेतले उपरांत हांवें जमनी थंयच्या वसुलदारांक भाड्यान दिवपाचो आदेश दिलो. मुसलमान आनी थळाव्या मुखेल्यांनी, तांणीच वसूल केल्ल्या पयशांनी कारभार चलयलो. कित्याक आमचे लोक नेमल्यार एकाद्रया दिसा तांचो शिरच्छेद जावची शक्यताय आसा म्हणून. ते खातीर मुसलमान आनी थळाव्या हिंदू मुखेल्यांकडेच पयलो प्रयत्न करचो म्हणटां. ते हाचे परस चड नखलामी करचे नात. चडांत चड म्हणल्यार जमनीचे करवसुलींतल्यान मेळिल्ले पयशे घेवन पळून वचत."

अपेक्षेप्रमाणें गरजेंतल्यान उप्राशिल्लें हें धोरण चड काळ तिगलें ना. आल्बुकेर्कीच्या (1510-1515) ह्या थोड्या काळाचे राजवटकेंत तिमोजाचो लावाचो हुद्दो ताणें काडून घेतलो आनी पुर्तुगेज सत्ता बळकट जातकीच तांच्याच अधिकाऱ्यांक दिलो. पूण हाचो परिणाम दुखदिणो जालो हें आबुकेर्कीक कळ्ळें. ताणें माधवरावाक महसूल वसूल करपाक दिवचें थारायलें तें फक्त पुर्तुगेज अधिकाऱ्यांकडल्यान पयशांच्या अपहरणाची जायतीं प्रकरणां घडिल्ल्यानूच. पुर्तुगेज ठाणेदारांच्या नेमणुकीविशीं तो बरयता: "हो प्रदेश स्थिरस्थावर जाला हें दिसतकच हांवें रोखडेच थंय आमचे अधिकारी नेमले. अंत्रूजचे वसुलीचेर हांवें दियोग कामाच्यो हाची नेमणूक केली आनी ताका दियोगु गिझाद हो कारकून दिलो. कश्टें हांगासर दाँ लोबोचो सेवक पेरेज आल्वारीक हाका नेमलो आनी राजा सायबाचो सेवक गास्पार माशादूक ताचो कारकून नेमलो. बंदखणींत आशिल्ल्या जुआंव सालगादु आनी पेरू सालगादु हांचीय नेमणूक केली. मात्सो अडचणीच्या अशांत आशिल्ल्या वसुलीच्या वाठारांत हांवें दुसरे तरेचे

लोक नेमले. पूण दियोग कामाच्योक म्हाका रोखडोच बंद्रखणींत घालचो पडलो, कित्याक वसूल केल्ले सगले पयशे सरकारच्या महसूल खात्यांत जमा जायनात अशें ताच्या वांगडा काम करपी हिंदू कारकुनांनी सांगलें. शिवाय गुलाम बायलो-दादल्यांक ताणें परस्पर विकून उडयले. तेच परी राजासायबांचो सेवक दियोगु गिझादु आनी ताचो कारकून हांचे कडल्यान आनी हेर सगळ्यां कडल्यान आनी तांणी जांकां विकून उडयले आसतले तांचे कडल्यानय गुलाम बायलो-दादले हांवें पर्थून घेतले. तर, सुरवातेक जमनीची वेवस्था पळोवपाक धाडिल्ल्या कांय लोकांची अशी गत जाली, ते आशिल्ले : फेर्नांव वाझ, जुआंव गालेयु हांकां तडीपार धाडले. म्हजो सेवक ज्यानी मेंडीस, राजा सायबांचे सेवक, गोंकालुगील आनी ब्राज वियेरा आनी 300 सैनिकां सयत सिंताकोराक आशिल्लो म्हजो सेवक दियोगु द सालीस ह्या सगल्यांक कैद करून तांचे नोकर आनी तांचे हुद्देय काडून घेतले.

आल्बुकेर्कीची हिंदु विशींची तथाकथित सहिष्णुताय हें एक मिथक आशिल्ल्याचे साबार पुरावे आसात. आपणाले पांच वर्सांचे अल्पावधीचे राजवटकेंत ताणें पयलीं मशिदी तर मोडल्योंच पूण आरंभी सोडिल्लीं कांय हिंदूंचीं देवळांय ताणें मोडून उडयलीं. आंद्रे कॉर्सालो हो फ्लोरेंसचो प्रवासी, 6 जानेवारी 1515 ह्या दिसा गोंयां सावन बरयल्ल्या पत्रांत म्हणटा : "दिवाडेच्या हिंदू मंदिराची इमारत उध्वस्त करून ताणें विध्वंसाचो कलंक लायलो. ते सुंदर इमारतीचे कांय अवशेश आजुनूय उरल्यात." आमी पळयल्ले प्रमाणे ज्या मनशान मुसलमानांक तरसादीन कातरून जिते मारले, शाराक उजो लायलो, उपासकांनी भरिल्ली मशीद जाळ्ळी, बायलां-भुरग्यांची हत्या केली, कैद्यांक जिवंत हुल्पायले ताचे कडल्यान आनी कसल्या बरेपणाची अपेक्षा करूं येत. सगल्यांत अजापाची गजाल म्हणल्यार इतल्या अत्यंत क्रूर आनी निर्दयी मनशाक आयज लेगीत, ताच्या क्रूर धोरणाची शिकार जाल्ल्या लोकांकडल्यान 'सहिष्णू' म्हणून घेवपाक येस मेळ्ळां.

# आल्बुकेर्कीचो वर्णद्वेश

पद्धतशीरपणान केल्ल्या अनुकूल प्रचारान लोकांच्या मनांत ह्या गोंयच्या जेत्याविशीं कुड्डें प्रेम निर्माण करपाक उत्तेजन दिलें. आनी ताका बरे सुशिक्षीत गोंयकार बळी पडून तांणी ताका देशांतल्या थळाव्या लोकाविशीं मात्तूय भेदभाव नाशिल्ल्याचें जाहीर करून उडयलें. ही उपाधी ताका दिवपाक आधार म्हणल्यार ताचें "assimilation and association" हें धोरण – जाका लागून ताणें, ताच्या सैनिकांनी गोंयांतल्या बायलां कडेन केल्ल्या मिश्रविवाहांक उत्तेजन दिलें. खंयच्याय वसणूकवादी राज्यकर्त्या इतलोच तो आढ्यतायखोर आनी वर्णद्वेशी आसलो ही खरी गजाल आसा. ताचे कृतींत आनी बरोवपांत हाचो जायतो पुरावो मेळटा. मिश्रविवाहाक प्रोत्साहन ही फकत त्या वेळची ताची चडूच गरज आसली. ताका लागून ताचे लोक जिखिल्ल्या प्रदेशाकडेन बांदिल्ले रावन हे युती वरवीं आपलो शेक तसोच चालू दवरतले अशी ताची अपेक्षा आसली. शिवाय त्या काळांत पुर्तुगाला सावन बायलांक हाडप त्या काळच्या कठीण आनी हिंदुस्थानांतल्या अनिश्चीत आनी संकश्टाचे जिणेक लागून लागीं लागीं अशक्य आसलें. आदल्या तुर्की आनी मुसलमान राज्यकर्त्यांच्या बायलांकडेन – जीं एकतर ताणें केल्ले पयले कत्तलींतल्यान निश्टल्लीं किंवा जांचे घोव वा बापूय तांचे निर्दयी हत्तेचे बळी थारिल्ले, ताचेविशीं, ताणेंच राजाक अशें बरयलां:

‘‘आमचे कांय लोक, कांय सुंदर आनी गोऱ्या मुसलमान बायलांक म्हजेकडेन घेवन आयले आनी तांणी तांच्रेकडे लग्न जावन हांगाच राबितो करपाची इत्सा दाखयली. ताचे खातीर तांणी म्हजेकडेन जमीन मागली. राजासायबाच्या नेमा प्रमाणें हांवें तांचीं लग्नां लावन दिलीं. आनी प्रत्येकाक म्हाका फावो दिसत तशें घर, घोडो आनी गायो दिल्यो. अशे सुमार 450

लोक आसतले. ह्यो लग्न जाल्ल्यो बायलो आपापल्या घरा वचून बरेंच पुरिल्लें जवाहीर, भांगरा–मोतयांचे दागिने, मोलादीक कपडे आदी गजाली उस्तून काडून हाडटात. हांव तें सगलें तांकां आनी तांच्या न्हवऱ्यांक दिवन उडयतां. म्हालमत्तो आनी मशिदीच्यो जमनी हांव सांत कातारीन इगर्जेक दिवन उडयतां, कित्याक आमच्या देवा धनयान सेंट कातारीनाच्या दिसाच आमकां जैत मेळोवन दिलें देखून मोठ्या किल्ल्यांतच हांवें तिची इगर्ज बांदली."

अशे तरेन ह्या मिश्र विवाहांवरवी आल्बुर्केर्कीन जबरदस्तीन मोठ्या प्रमाणांत धर्मांतरां करपाक सुरवात केली आनी मागीर तातूंत बेसुमार वाड जाली. 4 नोव्हेंबर 1514 ह्या दिसा बरयल्ल्या पत्रांत काळ्या रंगाच्या हिंदुस्थानी बायलांविशीं ताच्या पुर्वग्रह दुशीत मताक दुजोरो मेळटा. तातूंत तो बरयता, "आपणाल्या दादल्यांनी ह्या मलबारी बायलांकडेन लग्न करपाक हांव केन्नाच उत्सूक नासलों. कित्याक त्यो रंगान काळ्यो आसात, आपणाले रितरविशेंत भ्रश्टाचारी आसात. पूण मुसलमानी बायलो गोऱ्यो आसात, शुद्ध आसात आनी तांची वागणूक नमळायेची आसा." हें वाचतकच आल्बुर्केर्कीचें मिश्रविवाहाचें धोरण म्हणजे तो वर्णद्वेशी नासलो असो निर्णय कसो घेतात हाचेंच अजाप दिसता! ह्या पकडिल्ल्या बायलांविशीं अशे तरेचीं सोंपेपणान जाल्लीं लग्नां तांच्या आद्य पुरस्कर्त्यांच्या मत्तान कसलीं आसलीं हाचें प्रांजळ वर्णन करतना आपल्या 1-4-1512 ह्या दिसा बरयल्ल्या पत्रांत ताणें कांय हांसपाक येवपा सारक्यो घडणुको सांगल्यात: "एकान गोंयांत एक अस्तुरी पकडली आनी रोखडीच आफोंसु नांवाच्या एका हांगसरल्या दोतोराक विकली. हांवें ती ताचेकडल्यान काडून घेतली, कित्याक ती हांवें ताका दिवंक नासली. हांवें तिका क्रिस्तांव जावपाचो हुकूम केलो आनी जाका ती जाय आसली त्या मनशाकडेन तिचें लग्न लायलें. धनी आफोंसान आपल्या सेवका वरवीं तिचेर दडपण हाडून तिणें

हें लग्न आपखोशयेन करूंक ना अशें कबूल करूंक लायलें. पाद्रीक लांच दिवन तिका इगर्जेंत आपयली. म्हणून तिका घेवन तो इगर्जेंत आयलो. पाद्रीन तिका आपखोशयेन लग्न केलें काय म्हूण विचारलें. तिणें ना म्हणून सांगलें. धनी आफोंसु थंयच आशिल्लो. ताणें हे केसीचीं कागदपत्रां मागलीं. आपूण हे परिस्थितींत अडकलां हें पळोवन तिचो न्हवरो तिका घेवन म्हजेकडेन आयलो आनी तक्रार करून ताणें म्हणलें, पाद्री आनी तो भलो क्रिस्तांव ह्या दोगांनी मेळून ताका अपमानाची वागणूक दिली. हांवें धनी आफोंसूक आपोवन हाडलो आनी ताका खडसावन विचारलें. ताणें आपल्या देवाच्या आल्तारामुखार पयल्या साक्रामेंताचो अनादर करपाचें धाडस कशें केलें? आपणे योग्य तेंच केलें आनी ताचे खातीर आपणाक पश्चाताप जायना अशें ताणें म्हणटकच हांवें ताका बंदखणींत उडोवपाचो हुकूम दिलो आनी ताचेर कायदेशीर खटलो घालून ताणें ते बायलेक खोटी गवाय दिवपाक फोर्सार केली, वेदीचो फायदो घेतलो तशेंच पाद्रीक लांच दिली अशें सिद्ध केलें.

आमच्या ह्या जेत्याचे विचित्र, नीतीमत्तेची आनी सभावाची वाचप्यांक आतां मेरेन बरी वळख जाल्या जातली. हें फक्त आडवादाचें एक प्रकरण नासलें हें सिद्ध करपाक बऱ्योच देखी दिवंक येतात. त्यावेळच्या गास्पार कुर्रेय आनी हेर इतिहासकारांच्या नोंदींत असंख्य उतारे सांपडटले, तरी लेगीत आल्बुकेर्कीच्याच पत्रांतलो एक उतरो दिवपाचो मोह आवरना. तो असो:

"हांव मलाक्कांत आसतना ह्या पाद्रीन बरेच प्रताप केले. गोंयांत जुआंव सेरेजैर ह्या एका प्रामाणिक मनशाचें लग्न हांवें एके सुंदर आनी बऱ्या वळणाचे चलये कडेन लावन दिल्लें. न्हवरो मरतकच तिणें रोखडेंच दुसरें लग्न केलें. पूण गवाय दिवपी तिच्या घरा पावचे भितर, आकिलीस गुदिन्हु हाणें गोंयांतूच लग्न जाल्ले पूण ते बायलेचेर लुब्ध जाल्ल्या मनशान ह्या पाद्रीक लांच दिवन हें 'लग्न मोडिल्ल्याचें' जाहीर केलें. आनी तिका

दुसऱ्याच मनशाच्या घरा व्हरून दवरली. थंय तो तिचेकडेन आपले इत्सेप्रमाणें जाय तेन्ना वचून, मनाक मारीत तें करतालो. तो मरतकच ह्या पाद्रीन थंय वचून ते बायलेचें दुसऱ्याच एका मनशाकडेन लग्न लावन दिलें.''

हीं लग्नां एक्तर जबरदस्तीन लायल्लीं आसतालीं किंवा तीं विशिश्ट जातीच्या बायलांकडेन केल्ले करार आसताले. जातीभेदा सारको खोल रुजिल्लो पुर्वग्रह ही हिंदू बायलांक 'दवरपाक' पुर्तुगेजांक जाचक अडचण जाताली. सामकें जबरदस्तीन धर्मांतर केल्यारय फक्त देवदासी बायलो ह्या पुर्वग्रहापासून अलिप्त आशिल्ल्यान तातूंतल्यो बायलो अशा मीलनाक (लग्नाक) संमती दिताल्यो. धर्मांतर करून सक्तीन लग्न करतकच आर्दी आयिल्ल्या दाँ. फ्रांसिस्कुं द आल्मेद हाणें कोचिनांत हिंदू बायलेचें धर्मांतर करतकच कितें घडलें ताचेविशीं भाबडेपणान आल्बुकेर्की आपल्या पत्रांत बरयता : ''कोचिनाक पावतकच हांवें थारायलें की नव्या क्रिस्तांवांनी आनी राजासायबाच्या आर्दींच्या लोकांनी केल्ली दृश्कृत्यां टाळप हें ईश्वराचें आनी सरकाराचें काम आसा. प्रत्येक थळाव्या दादल्यान आनी बायलेन आमच्या गांवांपासून पयस वचचें आनी थंय रावचें. राजासायब, ह्या नव्या क्रिस्तांव बायलांच्या घरांत 10-15-20 लोक - बापोल, तिपोल भाव आनी हेर नाते वर्गी रावताले. क्रिस्तांव नाशिल्ल्यां कडेन तांचे 'संबंध' आसताले. कांय थळाव्या घरांत कोचिनांतले मुसलमान येवन क्रिस्तांव बायलां बरोबर न्हिदताले. अशेच रितीन हीं घरां अनभावार्थी हिंदू आनी मुसलमानांक आसरो दितालींत. तरी तांचो हेत मालकांक लुबाडून पळ काडचो असोच आसतालो. हीं कर्तुपां हांगां मेरेन पाविल्लीं कीं जायते लोक हजारांनी क्रुसादांक नागवले आनी तांचे गुलाम पळून गेले. ही हांगां खात्रीची अशी मिळक्त थारून गेल्ली आनी अशेच तरेन क्रिस्तांवां बरोबर न्हिदपाक कंटाळून तुमच्या कांय लोकांनी थळाव्या बायलांकडेन संबंध

दवरले आनी थोड्याच दिसांनी 600 लोक क्रिस्तांव जाले.''

'क्रिस्तावांन दवरलेली' दर एक बायल क्रिस्तांव जाता' ह्या पाद्री दुमिंग द सौज हांच्या आगळ्या सिद्धांताकडेन आल्बुकेर्क दुबावा विणें सहमत आसलो. त्या काळांत ताच्या सहकाऱ्या मजगतीं धर्मीविशीं खंयची धोबळ कल्पना अस्तित्वांत आसली हें ताच्या पत्रांतल्या उताऱ्या वयल्यान स्पश्ट जाता. जिखिल्ल्या लोकांकडेन वांशिक मिलाफ करून किंवा नवीन राजकी, समाजीक मांडावळ करून आमच्या ह्या गोंयच्या जेत्यान हें धोरण केन्नान अनुसरूंक ना. हाच्या उरफाटें ताका हाचे चुकीचें श्रेय दितात. थळाव्या लोकांक तांच्या प्रदेशांतल्यान भायरावन ते सुवातेर आपणाले लोक दवरचे होच ताचे राजकी येवजणेचो उद्देश आसलो. ह्या गोऱ्या आनी सुंदर तुर्की बायलांकडेन लग्न लावपाच्या उद्देशाविशीं तो आपणाल्या राजाक बरयल्ल्या पत्रांत म्हण्टा, ''अशे तरेन लग्नां केलीं जाल्यार राजासायबान (गोंय) जुंव्यावयल्या थळाव्या लोकांक हुकूम दिवचो की तांणी आतां लग्न जाल्ल्या लोकांक आपणाल्यो जमनी दिवन हांगासावन चलूंक लागचे. कित्याक गोंयांतली जमीन फक्त राजासायबाचीच आसा...''

आल्बुर्केर्कीचो हो म्हान सिद्धांत पळयात. थळाव्या लोकांक तांच्या वाठारांतल्यान धांवडावप, तांणी आपलो वाठार सोडून वचचें, तांचो जीव ना घेवपा इतलो तो दयाळु आसलो; ताचे हे प्रौढी मिरोवपी सहिष्णुतायेचेर आमच्या कांय 'देशभक्तांचो' अजूनय विश्वास आसा, ताका लागून आपणाले दुर्दैवी स्थितींत तांचें सांत्वन जाता आसतलें! साम्राज्यवादी इतिहासकारांनी पातळायल्ल्या सिद्धांतांचे आमचे देशबांधव मुर्खपणान प्रदर्शन करीत आसले तरी, कुंज्य रिवार ह्या पुर्तुगेज इतिहासकारान हिंदुस्थान खूब लागच्यान अभ्याशिल्लो. ताणें स्पश्टपणान मान्य केलां. ''थळाव्या लोकांची संपत्ती बळकावन वंश नश्ट करचो ह्याच उद्देशान पुर्तुगेज हांगा आयिल्ले, ताचे फाटल्यान उच्च अशें खंयचेंय तत्व नासलें. अँग्लो–

सॅक्सन किंवा स्पॅनीश लोकांनी अमेरिकेंत तेंच केलें. तें करपांत पुर्तुगेजांक ह्या देशांत येस मेळ्ळें ना कित्याक केवळ परिस्थिती वेगळी आसली हेंच.'' तो कबूल करता, ''हिंदुस्थान म्हणचे अमेरिका न्हय. थंय एवरोवपी लोकांनी सामके जंगली आनी असंस्कृत अशा थळाव्या लोकांक नानपयत केले आनी युरोपांतल्यान हाडिल्ल्या लोकांक त्या सुवातांचेर वसयले'' पुणून हिंदुस्थान जिखतना अंतर खूबच मोठें आसलें. शिवाय हांगसरल्या थळाव्या लोकांकडल्यान खर प्रतिकार जालो. तांतले कांय वर्ग तर खूबच सुसंस्कृत आसले. ताका लागून उक्तो हिंसाचार टाळचो पडलो आनी दुसऱ्या आडमार्गान आपलें ध्येय साध्य करचें पडलें. हो मार्ग लेगीत सौम्य नासलो....''

इतलो स्पश्ट पुरावो आसुनय पुर्तुगेजांच्या हिंदुस्थानांतल्या इतिहासाविशीं निर्लज्जपणान आयच्या काळांत लेगीत निरर्थक खुलाशे दिल्ले दिसतात. आपणालें संकुचीत आनी पाशवी वसणूकवादी धोरण लिपोवपा परस कांय हितसंबंधी लोक हे वृत्तीचें सामकें फटीचें आनी कल्पीत कथा सांगून समर्थन करतात.

## सांत फ्रांसिस शावियेर– ताच्या पत्रांतल्यान घडिल्लें दर्शन

आपणालें व्यक्तिमत्व आनी स्वातंत्र्य होगडायलें तरी आनीक एक काल्पनीक कथा आमच्या ह्या देशभावांचें समाधान करता, ती म्हणल्यार सांत फ्रांसिस शावियेरान गोयांत अद्भूत धर्मांतरां करपाचो चमत्कार घडयलो. कित्याक, आपणालीं राजवटकी प्रस्थापीत करपाखातीर सगलीं धर्मांतरां सक्तीन आनी जबरदस्तीन घडोवन हाडलीं हें तांकां लिपोवपाचें आसलें. सांत फ्रांसिस शावियेरान गोयांत धर्मांतरां केलींच नांत कित्याक, हांगां ताचो

मुक्काम तात्पुरतोच आसलो ही वस्तुस्थिती आसा. सुदैवान ताणें स्वता बरयल्लीं पत्रां आजूनय सांबाळून दवरिल्ल्यान तातूंतल्यानच ही गजाल स्पश्ट जाता. भारतांतल्या ताच्या कार्याचो सत्य नियाळ तातूंत सांपडटा आनी तो अजाण चरित्रकारांनी केल्ल्या पक्षपाती आनी अद्भूतरम्य वर्णनां परसय कितलो तरी वेगळो आसा. ताणें हांगां कोणाचेंच धर्मांतर तर केलेंच ना. उरफाटें, चमत्कारांक कितलेंय श्रेय दिलें जाल्यारय हिंदुस्थानांत तें अशक्य आसा हें ताणें आपल्या बरोवपांत मान्य केलां. 20 जानेवारी 1548 ह्या दिसा कोचिना सावन जेजुईट पाद्री सिमांव रुद्रिगीस हाका उद्‌देशून बरयल्ल्या पत्रांत आमकां ताचो प्रामाणीक कबुली जबाब मेळटा आनी कांय पत्रांत ताची बरेचदां पुनरावृत्तीय जाल्ली सांपडटा. शासनाच्या सक्रीय आलाशिऱ्या बगर भारतीयांक कातोल्क धर्मांत हाडप शक्यच जावचें ना अशें तो म्हणटा. ताचींच हीं उतरां अशीं आसात:

"म्हज्या अणभवा वयल्यान हिंदुस्थानांत धर्माचो प्रसार करपाचो एकूच मार्ग आसा. जो आपणाल्या अधिकारांत आशिल्लीं सगळीं साधनां वापरून धर्मीक राज्य पसरावपाक झट्टलो तोच राजाच्या विस्वासाक पात्र थारतलो असो राजान हिंदुस्थानांतल्या सगल्या अधिकाऱ्यांक हुकूम दिवचो. तांणी कन्याकुमारींतल्या क्रिस्तांवांची संख्या वाडोवपा पासत उर्बेन वावरूंक जाय जाका लागून जेजू ख्रिस्ताच्या धर्मश्रद्धेंत सिलोन जुंवो (श्रीलंका) आकर्शीत जातलो असो हुकूम राजान निश्चीतपणान काडपाक जाय. तेचपरीं सगल्या भावार्थी लोकांक आनी जे जे धर्माचो प्रसार करूं शकतले अश्या सगळ्यांक, मागीर ते आमच्या जेजुईट संघाचे सभासद आसूं वा नासूं... राजान असो हुकूमनामो काडलो जाल्यार आनी ही आज्ञा जे मानिनात तांकां जबर ख्यास्त दिली जाल्यारूच खुबशे थळावे लोक जेजू ख्रिस्ताचो धर्मपंथ वेंगायतले, ना जाल्यार यशाची अपेक्षा करपाक जावचें ना.

"म्हाका हाचेविशीं कितें दिसता तें तुमकां कळांच आसतलें. हांव सांगीन तशें केल्यार हांव इतलेंच म्हणन, आमच्या गरीब बाबड्या धर्मांतर केल्ल्या लोकांक अन्याय आनी चोरीमारी हांचे पासून राखण दिल्यार हेर थळावे लोक लेगीत क्रिस्तांव समाजांत कश्टाविणें भितर सरतले. पुणून **धर्मप्रसार करपा पासून राजासायब आनी व्हायसरॉय कुशीक रावले जाल्यार कांयच जावचें ना.**"

जे वयले शब्द हांवें अधोरेखीत केल्यात ते स्पश्ट आसात. फक्त मुलकी प्रशासन आनी लश्करी सत्ता वापरिल्ल्यानूच धर्मांतरां शक्य जालीं, केवळ धर्माचो उपदेश करून न्हय. तिसरो दाँ. जुआंव, जो कट्टर धर्मकोल्ली आसलो, तो पाशवी उपाय वापरूनच जाल्ल्या धर्मांतरांक जापसालदार आसलो आनी फ्रांसिस शावियेर ताचो खासा कॉफेसोर आसलो. ताणें राजा दाँ. जुआंवाक बरयल्ल्या पत्रांत सकयले उपाय अंमलांत हाडचेली विनंती केल्ली. "प्रत्येक व्हायसरॉय आनी गव्हर्नर तुमकां बरयतात तेन्ना तांणी थंयची चालंत धर्मीक परिस्थिती, धर्मांतर केल्ल्यांचो आंकडो, तांची पद्धत, आनीकय धर्मांतरां करपाची शक्यताय आनी ताचे खातीर वापरपाचीं साधनां, ह्या सगल्यांची विसकटावणी करून अहवाल दिवचो असो राजा सायबान आदेश काडचो. धर्मांचे बाबतींत अशेच तरेच्या पत्रांचो विचार जातलो असो हुकूम दिवचो. कित्याक सत्ताधिकाऱ्यांचो वरदहस्त आसत तरच असंख्य धर्मांतरां जावपाक शकतलीं. तेन्ना, तांकां दिल्ले सगले अधिकार वापरून लेगीत, धर्मांतरां घडून आयलीं ना जाल्यार अश्या अधिकाऱ्यांक जापसालदार धरून तांकां ख्यास्त करतले असो राजा सायबान स्पश्ट आदेश दिवचो...

"...लोकांक आपणे व्हडा संख्येन धर्मांतरीत केले नाजाल्यार आपले हुद्दे आनी म्हालमत्तो होगडावचो पडटलो ह्या भंयाची जाणविकाय व्हायसरॉयाक आनी गव्हर्नराक आसूंक जाय, ते बगर हिंदुस्थानांत धर्मोपदेश

चडसो फळादीक जायत अशी अपेक्षा राजासायबान बाळगूंची न्हय, तशेंच खूब लोक बातिज्म घेवपाक येतले किंवा आदीं घेतिल्ले चडावत धर्मीक प्रगती करतले अशीय अपेक्षा बाळगूंची न्हय.''

पुर्तुगालच्या दराबारांत बरेंच वजन आशिल्ल्यान सांत फ्रांसिस शावियेरान सुचयिल्ले सगळे उपाय अंमलांत आयले. ताचेच खातीर हीं 'चोंब्यांनी जाल्लीं धर्मांतरां' (en masses) शक्य जालीं हें नाकारपाक येना. पुणून गोंयांत ताची प्रत्यक्ष कारवाय मात ताच्या मरणा उपरांतच जाली. गोंयांत 'पवित्र इंक्विझिशन' लेगीत ताकाच लागून शक्य जालें. आपणाल्या 16 एप्रिल 1546 ह्या दिसा ताणें राजाक बरयल्ल्या पत्रांत ताची गरज स्पश्ट केल्ली (हें इक्विझिशनच गोंयकारांच्या देशभश्टेपणाचें मुखेल कारण थारलें हें आमी फुडें पळयतलेच). शिवाय, राजकी कब्जे करून घेवपांतय ताणें सक्रीय वांटो घेतिल्लो. ह्या 'हिंदुस्थानच्या धर्मदुतान' (Apostle of the Indies) स्वता हिंदू धर्मा आड हिंसक उपाय येवजिल्ले आनी उपरांत ते वाडतच गेले. 8 फेब्रुवारी 1545 ह्या दिसा जेजुईट सोसायटी (Society of Jesus) हे संस्थेक बरयल्ल्या पत्रांत तो मलबारच्या किनाऱ्याचेर 'चोंब्यांनी दिल्ल्या बातिज्माविशींचें' वर्णन करता – गोंयांत न्हय. असलीं धर्मांतरां ताणें गोंयांत करूंकच नासलीं. ''बातिज्म घेतले उपरांत हे नवे क्रिस्तांव आपापल्या घरा वतात आनी बायलो भुरगीं आनी सगल्या घराब्याक घेवन परते येतात आनी तांकांय बातिज्म दितकच हांव खोट्या देवांचीं देवळां मोडूंक लायतां आनी मुर्ती फोडपाचो हुकूम दितां. ज्या मुर्तींची ह्या लोकांनी पुजा केल्ली तांचेय कडल्यान त्योच मुर्ती आनी देवळां मोडूक उडयतनाचें दृश्य पळयतना म्हाका कितली खोस जाता हाचें शब्दांनी वर्णन करपाक येना.''

हें आसलें हिंदुस्थानच्या ह्या संत महात्माचें कृत्य – ताच्या स्वताच्याच अक्षरांत नोंदयल्लें. ताच्या चरित्रकारांनी मात भलतेंच चित्र

चितारलां, खास करून जेजुईट लोकांनी आपल्या प्रचाराखातीर उपयोग करून घेवपापासत मूळ पत्रांतलें काय शब्द दपटून दवरपाकय फाटीं फुडें पळोवंक ना. हें ताच्या बनावट पत्रांची आनी मूळ पत्रांची तुळा केल्यार आपशींच सिद्ध करूं येता. अशे तरेन गोंयांत धर्मांतरां करिनासतना ताणें अद्भूत धर्मांतरां केल्ल्याच्यो आगळ्यो दंतकथा मात पसरायल्यात.

## सक्तीन चोंब्यांनी केल्लीं धर्मांतरां

कितलोय इतिहासीक विपर्यास करून सत्य लिपोवपाचो यत्न जरी केलो तरी आयज गोंयांत लोकसंख्येच्या सुमार अर्दे कॅथलीक लोक आसात तांचें धर्मांतर पुर्तुगेज राजवट प्रस्थापीक करपा पासतच सक्तीन केल्लें हें सत्य नाकारपाक येना. ह्या हिंसाचाराक लागून आमच्या लोकांचें व्यक्तीमत्वच नश्ट जालें. गोंयांतलो क्रिस्तांव धर्माचो प्रसार फक्त धर्मोपदेशान जावंक ना तर तो हिंसक दबावा वरवीं जालो. हें त्या काळांतले नेम, कायदे आनी मुलकी अधिकाऱ्याच्या अहवाला वयल्यानूच न्हय तर धर्मासंबंदीच्या अत्यंत भरवंशाच्या धर्मसत्तेच्या नोंदीवेल्यानय सिद्ध जाता. जेजुईट पाद्री फ्रांसिस्कु दी सौझ हांणी 'ऑरिएंति कॉंकिस्तादु' (अस्तंतेच्यो जिखी) ह्या ग्रंथांत जेजुईट संघाच्या कार्याचो नियाळ केला. तातूंत वापरिल्ल्या सक्तीच्या कृतीचे जायते पुरावे आनी ताचें समर्थन सांपडटा. पाद्री आलेशांद्रि वालिग्नानु ह्या हिंदुस्थानांतल्या जेजुईट सोसायटीच्या इलाख्याच्या तपासनीसान दिल्ल्या आपल्या क्रिस्तावांच्या धर्मपित्याचे आदेश (Instructions of the father of Christians*) ह्या पुस्तकांत (1595) स्पश्टच कबूल केलां:

* हें सरकारी पद (Pai dos christãos - father of christians) धर्मसंस्थेन घडयल्लें आनी ताचो पगार आनी खर्च पुर्तुगालाचो राजा करतालो. नव्या क्रिस्तांवांक सरक्षण मेळचें आनी तांकां पुर्तुगेजांनी वा हिंदूनी कसलेंच तरेचो त्रास दिवचो न्हय म्हूण तें घडयल्लें. - अणकारपी

"क्रिस्तांवांच्या धर्मपित्याच्या (Father of Christians) कार्याचे तीन मुखेल वांटे करूं येतात. पयलो, धर्मांतराविशीं, दुसरो धर्मशिक्षणाविशीं म्हणजे 'कॅटकिजम' (धर्मतत्वांची शिकवण) दिवपाक तेचपरी तांणी बातिज्म घेवचो म्हूण तांची तयारी करपाखातीर कितें केलें आनी नव्या धर्मांतरितांक (नव्या क्रिस्तांवांक) दिवची मदत आनी तांकां दिवची राखण हे विशीं पयल्या कार्याविशी: हिंदुस्थानांतल्या ह्या भागांतल्या 'अनभवार्थियांचें धर्मांतर' हें केवळ धर्मोपदेशान जावंक ना, तर हेर योग्य (Just Means) उपायांनी जालां म्हणजे तांकां खर ख्यास्त दिवप, तांचे मुर्तीपुजेंत आडखळी हाडप, तांकां न्याय रितीन सवलती नाकारप आनी त्यो धर्मांतर केल्ल्यांक भोवमानान दिवप, तांकां आलाशिरो आनी राखण दिवप म्हणटकच हेरय धर्मांतर करतले..."

आमच्या लोकांचें धर्मांतर करपाक पुर्तुगेजांक सक्तीचे उपाय कित्याक येवजूंचे पडलें हें सहज समजुपा सारकें आसा. चड करून शांतताप्रिय धर्माचरण करपांत प्रवीण अश्या हिंदूंक ते आपल्या आचरणान आनी देखीन आपले वटेन वळोवपाची अपेक्षा करूंक शकनासले, कित्याक, त्याच वेळार वर्णन करूंक येवचेना अश्या तांच्या अत्याचारांच्या करण्यांच्या प्रदर्शनान हिंदूंक तांचेविशीं अखटाय दिसपाक लागिल्ली. मोठ्या प्रमाणांत निश्ठूर हत्या आनी लुटमार करपी विश्वबंधुतायेचे हे दूत आनी तांचें दुख्खदिणें दर्शन आमच्या पुर्वजांक नव्या धर्माची श्रेश्ठताय पटोवंक दिवपाक मात्तूय शकनासलें. देखुनूच पाद्री वालिग्नानानूच सुचयल्ले 'योग्य उपाय' अंमलांत हाडचेली गरज दिसली. त्या उपाया पयकीं थोड्योच देखी आमी दितात. कित्याक पुराय यादी हे सुपुल्ले पुस्तिकेंत दिवप शक्य जावचें ना.

आल्बुकेर्कीन लग्नावरवीं आनी संधी सवलतींची देण-घेण करून धर्मांतरांक उत्तेजन दिलें हें आमी पळयलेंच. हेंच धोरण मुखार व्हरून 1519 च्या राजाच्या आदेशा वरवीं (Royal Charter) क्रिस्तांवां खातीर

वैजकी मदत दानधर्म राखून दवरपांत आयलें, जाका लागून गरीब हिंदूंक धर्मांतर करप, सक्तीचें जातलें. गोंयांखातीर धर्मप्रांत (Diocese of Goa) 1534 वर्सा निर्माण करून ताचे वेवस्थे पासत नवें कर बसयले. पूण उपरांत रोखडोच पुर्तुगाला सावन पाद्रींच्या मोटे संख्येन गोंयांत येवपाचो अतिरेक जालो. पुणून क्रिस्तांव मात थोडेच येताले. मागीर 'फारपेट आनी तलवार' हांच्या नेटाचेर धर्मप्रसार सुरू जालो. 1540 वर्सा सांत फ्रांसिस शावियेगचें नांवाजिल्ले बगलबच्चे (proteges) मिंगेल वाज आनी दियोग द बोर्दा हांणी तिसवाडी जुंव्यांतलीं सगळीं देवळां मोडपाचो आदेश दिलो आनी 30 जून 1541 च्या शाही कायद्याचे वरवीं अधिकार मेळोवन देवळांचो सगलो म्हालमत्तो कॅथलीक इगर्जमातेच्या आदाराखातीर ताब्यांत घेतलो. त्या उत्पन्नांतल्यान जेजुईतांनी सेंट पॉल सिमिनारीची स्थापणूक केली. 23 मे 1559 च्या कायद्यान हिंदूनी कसलेंय भौशीक पद घेवपाचेर बंदी घाली. त्याच वर्सा आनीक एक कायदो करून हिंदू अनाथ भुरग्यांखातीर दवरिल्ली सगळी मालमत्ता तांणी धर्मांतर करपाक न्हयकारल्यार ती काडून घेवन पुर्तुगेजांक किंवा क्रिस्तावांक दिवची अशें थारयलें. त्याच काळांत केल्ल्या आनी एका कायद्यान गोंय जुंव्यांतलीं हिंदूची सगळीं देवळां आनी देवांच्यो मुर्ती उध्वस्त करपाचो आदेश दिलो आनी क्रिस्तांवाचे सोडल्यार हेर सार्वजनीक आनी खाजगी सणांचेर बंदी घाली. हे कायदे मोडपी गुन्यांवकाराची म्हायती दिवपी मनशाक त्या गुन्यांवकाराचे जप्त केल्ले अर्दे म्हालमत्तेचो हक्क मेळटालो आनी अर्दो वांटो इगर्जेक मेळटालो. त्या वर्सा केल्ल्या साबार कायद्यांवरवीं धर्मांतर करून क्रिस्तांव जाल्ल्या हिंदूंक खास हक्क दिल्ले. 1560 त दाँ. काँस्तांतीन द ब्रागांझ हाणें गोंयांतल्या सगल्या बामणांक आनी सोनारांक धांवडावन घाले. 4 डिसेंबर 1567 च्या कायद्यान, हिंदूच्यो मुंजी, लग्नां आनी अंत्यसंस्कार तशेंच तांचे धर्मग्रंथ हांचेर बंदी घाली. 15 वर्सा वयल्या प्रत्येक हिंदूंक क्रिस्तांव धर्माची प्रवचनां आयकूंक

इगर्जेंत हजर रावप सक्तीचें केलें. हजर रावनाशिल्ल्याक जबर शिक्षेचें भंय आसलेंच. त्याच वर्सा रायतूरच्या किल्ल्याच्या कापितांवान आर्सेबिशप आनी जेजुईट संघाच्या पदाधिकारी हांच्या सल्ल्यान आनी फाटबळान, केवळ साश्टींतलीं 280 हिंदू देवळां उद्ध्वस्त करून लासून उडयलीं. ताचे खातीर दाँ. सेबस्तियांव ह्या राजान त्या देवळांचे मालकेची अर्दी जमीन ताका इनाम दिली आनी उरिल्ली अर्दी जेजुईतांक. ह्यो सगळ्यो जमनी मागीर 'सांता काज द [illegible]झेरिकोर्दिया' ह्या फक्त एवरोवपेव आनी तांचे वंशज आशिल्ल्यांचे संस्थेच्या नांवाचेर केल्ल्यो. ही संस्था आजय अस्तित्वांत आसा. 1[illegible]5 च्या एका कायद्यावरवीं हिंदूंक सरकारी जमनी भाड्यान घेवपाक बंदी [illegible]लून त्यो क्रिस्तांवांक दिवपाक लायल्यो. त्याच वर्सा, हद्दपार केल्ल्या आनी परवानगे बगर पर्थून आयिल्ल्या हिंदूंच्यो जमनी जप्त केल्यो. 1583 वर्सा जेजुईतांनी लश्करी मदतीन असोळणे आनी कुंकळ्ळी हांगचीं देवळां मोडून थंय इगर्जो बांदल्यो. हिंदूंनी बंड केलें आनी पाद्रींक जिते मारले, तेन्ना तांच्यो जमनी जप्त करून, तांतल्यो कांय 'जेजुईत सोसायटीक दिल्यो. जे तरेन जेजुईत साश्टींत वागले, तेच पद्धतीन फ्रांसिस्कन बारदेसांत आनी डॉमिनीकन तिसवाडींत काम करताले.

'न्याय उपाय' (Just Means) घेवन आपणाल्या उद्दिश्टांत ते सफळ जाले. एका शतका परस उणे कालावधींत क्रिस्तांवांकरणाच्या नांवांखाला पुर्तुगेज धर्मीक अधिकारी थळाव्या लोकांची संपत्ती लुटून इतले गिरेस्त जाले कीं ते राज्याचे सुरक्षिततायेकच धोको थारले!

1603 वर्सा गोंयच्या सिनेटान (Senado de Goa) राजाक कळयलें कीं 'फकत जेजुईतांची येणावळ' सगल्या राज्याच्या अद्यां वांट्या इतली आसा. पाद्री स्वैराचारी जावन ऐशआरामांत रावंक लागल्यात. तांकां आतां धर्माचें कांयच पडून गेल्लें ना. तेच बराबर काम करपी हिंदू छळाच्या भंयान पळून स्थलांतर करूंक लागिल्ल्यान देशाचेर गरिबी कोंसळ्ळ्या.

येणावळ उणी जाल्ल्यान चिंतेस्त जावन सरकार ह्या धर्मीक संस्थांच्या आड उपाय करूंक लागलें. जबरदस्तीन म्हालमत्तो बळकावप बंद केलें. पूण धर्माचो प्रभाव इतलो व्हड आसलो कीं 17 व्या आनी 18 व्या शेंकड्यांत लेगीत पाद्री नव्या नव्या नेमानुसार संपत्ती बळकायत राविल्ले. वेपारधंदो बंद जालो तशें व्हायसरॉयान जुल्मी कायदे रद्द केले.

कालांतरान इथिओपियांचे आर्सेबिशप जाल्ले, पाद्री मान्येल द मा हांचे सारख्या कांय पाद्रींनी हे तेरच्या आदेशां आड खर उतरांनी नापसंती दाखयली, ती तांच्याच उतरांनी सांगतां: "तांच्या पवित्र देवघरांत भितर सरून, हिंदूक तांच्या बायलां-चलयां सयत, खाप्री मानायांक लावन सक्तीन शुभवर्तमानाचीं प्रवचनां आयकुपाक इगर्जेंत ओडून व्हरप, हो तांचेर केल्लो सगळ्यांत व्हड गुन्यांव आसलो." पुणून असहिष्णुताय चालूच उरली. 'राज्यांतल्या प्रत्येक हिंदून एकतर क्रिस्तांव धर्म आपणावचो किंवा राज्य सोडून वचचें' ह्या दॉमिनिकन पाद्री कायतान द जुजे हांच्या हुकुमाप्रमाणे पोरणे जिखींत धर्मांतर जालें अशें म्हणूं येत. 1763 वर्सा नव्यो जिखी जिखपाक सुरू जातकच मात हिंदू राजांचे संमतीन हिंदूंक तांचे मर्यादीत स्वरूपांत धर्मीक सहिष्णुताय दाखोवपाक मान्यताय मेळ्ळी.

## मार्केज द पोंबाल पासूनचें वांशिक आनी धर्मीक धोरण

मार्केज द पोंबालान हिंदू-मुसलमानांक धर्मीक उपासना करपाचें थोडेशें स्वातंत्र्य दिलें. हें मुखेलपणान नव्यो जिखी घेतपासून जावपाक लागलें. नव्या जिखींचो वाठार खालसा करतकच, हिंदू आनी मुसलमानांकडेन ज्यो कबलाती केल्यो तातूंत तांच्या धर्माचो आदर राखपाविशीं अट

आसली. तो काळय छळवादी धोरणाक अनुकूल नासलो. मार्केज द पोंबालाचें राजकी धोरण ताचे फाटल्यान येवपी अधिकाऱ्यांनी सदांच चालू दवरलें अशें न्हय. ताचे उपरांतय हिंदूंचो छळ जालोच. पुणून धर्मीक संघांक (religious orders) दपटून उडयतकच, धर्मीक अधिकाऱ्यांचें वजन राज्यकारभारांत ल्हवू ल्हवू उणें जालें आनी 19 व्या शतकांत हिंदूंचो तांच्याच राज्यांतलो छळ थांबलो. तरीपूण आजूनय तांकां भेदभावानच वागयतात.

जेजुईतांच्या शाळांत शिकिल्ले गोंयकार मार्केज द पोंबालांचो दुस्वास करपाक शिकतात. ह्या पुर्तुगेज प्रदेशांतल्यान ताणें जेजुईतांक धांवडावन घाल्ले हीच मुखेलपणा- तांकां म्हायती करून दितात. एवरोपेव पाद्री आनी तांचे संघ हांच्या अन्याया पासून ताणें गोंयकार पाद्रींचें रक्षण केल्लें हें तांकां खबर नासता. ताणेंच 2-4-1761आनी 15-1-1774 ह्या दिसांचे आदेश काडून हिंदी कॅथलीक आनी एवरोपेव कॅथलीक हांकां समान दर्जो दिलो हें गोंयकारांक खबरच नासलें. ताणें 'गव्हर्नर आनी आर्सेबिशप हांकां दिल्ले आदेश कळप गरजेचें आसा कित्याक तातूंत केल्ल्यो सुदारणा अंमलांत येवचे आदीं आनी उपरांत कितें परिस्थिती आसली, हांचें बरेंच चित्र आमचे फुडें उबें रावता. हांगां तांतले कांय लक्षांत दवरपासारकें उतारे दितां:

"जेजुईत आपणाल्या देशांतले राज्यकर्ते आनी प्रजा हांचेमदीं जसो भेदभाव निर्माण करताले तोच दुश्टपणा तांणी उदेंतेंतय चालू दवरून थळावी प्रजा आनी पुर्तुगेज राज्यकर्ते तशेंच बामण आनी क्षत्रीय (चाड्डे) हांचेमदींय असंतोश वाडपाक दिलो... राज्यकर्ते आनी थळावी प्रजा तशेंच बामण आनी क्षत्रीय हांचे मदली ही दरी, क्रिस्तांव धर्माच्या आनी राज्याच्या रासवळ कल्याण आनी प्रगतीच्या मार्गांतली सगल्यांत व्हड आडखळ आशिल्ल्यान राजासायबांनी आपलें सगलें सामर्थ्य वापरून सगल्या

प्रजाजनांच्या मनांमदले हे फरक आनी भेदभाव नश्ट करपाक जाय...

''राजासायबान सगल्यो बाबी अशे तरेन हाताळच्यो कीं ताका लागून पॅरीशचीं आनी चॅपलचीं अधिकारीपदां, भौशीक अधिकार पदां आनी लश्करी पदां ही सगलीं चडांत चड प्रमाणांत थळाव्या लोकांक किंवा तांच्या भुरग्यांक आनी नातरांक दिवचीं, मागीर ते गोरे आसूं वा काळे; कित्याक, महाराजांक सगळेच प्रजानन सारके, शिवाय तें देवाच्या नेमाप्रमाणें, सैमाप्रमाणें आनी मानवतेक धरूनच जातलें. परक्यांनी थळाव्या लोकांक, जे थंय जल्मल्ले तांकां थंयच्यो जमनी लागवडीक दिवच्यो न्हय किंवा तांच्याच देशांतल्या पदांचो आनी फायद्यांचो लाव तांकां जावंक दिवचो न्हय अशें खंयच्याय नेमान बसचें ना. तशें केल्यार उलट कट्टर दुस्वास आनी अन्याय हांकां लागून तें देवाकडेन कळकळीची विनंती करतलें कीं ह्या राज्यकर्त्यांक फावो तें पानवळ मेळूं.''

ही असामान्य समानतायेची राजनिती जी गोंयांत केन्नाच खबर नासली, तिका एवरोपेवांकडल्यान आनी तांच्या वंशजां कडल्यान आनी खास करून एवरोपेव पाद्रीं कडल्यान खर विरोध जालो. इगर्जमातेच्या अधिकाऱ्यांनी ह्या तिरस्कृत मार्केजाचे कायदे आनी आदेश निखालस मानले नात. हिंदी (गोंयकार) पाद्रींचो दर्जो पयलीं भाशेन खालतोच उरलो. थळाव्या पाद्रींनी पोंबालाकडेन केल्लो निशेद तांच्याच शब्दांनी सांगतां : ''आर्सेबिशप ह्या शारांतलीं आपल्या अखत्यारींतलीं उच्चपदां रानवटी लोकांनी भरीत आसा, फकत ते उजळ रंगाचे आसात इतल्याच कारणांक लागून. ते इतले अज्ञानी आसात कीं तांकां लातीं भासय सारकी येना आनी हें आर्सेबिस्पाकय नाकारपाक येवचें ना'' हाची जाप म्हणून पोंबालान आदेश दिलो की उच्च धर्मीक पदां एवरोपेव आनी हिंदी लोकांमदीं सम प्रमाणांत वांटून दिवचीं. गोंयच्या पाद्रींक पयलेच फावट अशे तरेची वागणूक मेळ्ळी. पूण हाचें श्रेय ज्या मनशाक वता, त्या पोंबालाचो मात तांणी

अज्ञानाक लागून तिरस्कारच केलो. हो विरोधाभासच म्हणचो पडटलो. जेजुईत प्रचारकांनी केल्ल्या इतिहासाच्या विपर्यासाचो हो कितलो घोर परिणाम!

हें उदारमतवादी धोरण चड काळ तिगलें ना. पोंबाला बरोबरच तें सगळे वटयां समाजीक, लश्करी आनी धर्मीक क्षेत्रांतल्यानय ना जालें. पोंबालाचे राजवटकेंत लेगीत हिंदूंक कमीच दर्जाचे लेखिल्ले. तांकां वयल्या स्थरांत केन्नाच आसपावन घेतले नांत. आयच्या काळांत लेगीत सद्याचे सालाझाराचे कायदे 'देशी थळावे', मिसळून एकरूप जाल्ले लोक आनी अस्तंमतेची संस्कृताय आशिल्ले लोक (Indigenas. assimilados and the population of Western Civilization) असो फरक करतात. फॅसिस्ट हुकूमशायेंत वसणुकांतल्या थळाव्या लोकांक लश्करांतली अधिकार पदां दिवपाक बंदी आसा.

इतलें आसुनूय गोंयांत हुकूमशहा सालाझाराक तोखेवपी आसातच. हाचें कारण जेजुईत आनी तांचो फटीचो प्रचार; कित्याक, ते ताची स्तुती करीत आसतात. धर्मीक क्षेत्रांत पुर्तुगेजांचो वर्णद्वेश आजय आसा. गोंयची आर्चडायोसीज 400 वर्सां पोरणी. पूण थंय आजून एकय हिंदी बिशप जावंक ना, उलट ब्रिटीश हिंदुस्थानांत तोच आंकडो 17 चेर गेला. आशियाई किंवा आफ्रिकन देशांत कॅथलीक आर्सेबिस्पाच्या पदाचेर काळ्या लोकांची नियुक्ती ही सामकी हालींची गजाल आसा. आनी ती राष्ट्रीय चळवळींक लागून वाडल्या. वसणुकांतल्या लोकांच्या स्वातंत्र्य चळवळींक लागून हो बदल घडून आयला. सहजपणान दडपशायेच्या मार्गान गोंयकारांच्या राष्ट्रीय स्वाभिमानाक म्हेळसायलां हें आमी आदीं पळयलांच. गोंयकारांनी लांबदीक काळाची राजनिश्ठा दाखोवनय तांकां हे प्रगतीचो लाव मेळूंक शकलो ना.

खरें तर केवळ धर्म बदलिल्ल्यान राष्ट्रीय भावना बदलना. पूण जे पद्धतीन धर्मांतरां घडोवन हाडलीं, ताका लागून मात निश्चीतपणान बदल

जाला. गोंयकारांचेर केल्ले अत्याचार आनी तांकां 'बाप्तिज्माचो चोंब्यांनी दिल्लो संस्कार' हींच कारणां ताच्या धर्मासंबंदांतच न्हय तर तांच्या खाशेल्या सभावांतय जो मुळासावन बदल घडोवन हाडला ताका जबाबदार आसात, हें सत्य कोणूच नाकारपाक शकनात. लोकांच्या निश्ठांचेर केल्ल्या निरंतर आघाताक लागून तांच्या नैतीक मुल्यांचें अध:पतन जालें आनी तें क्रिस्तांवांक आनी हिंदूकय बादलें; हद्दपारी आनी म्हालमत्ता जप्तीच्या भंयाक लागून तांची सद्सद्विवेक बुद्द चिड्डून गेली आनी सदांच उणाकपणान सगळें सोंसून घेवपी जाली. परिणामी ते भेजूड जाले आनी चुगल्यो करपाची संवय, दांभिकपण आनी खुशामत करप हे दुर्गुण तांच्या आंगांत जिरले. गोंयकारांचो स्वाभिमान नश्ट जालो. राजकर्त्यांच्या जुलूम आनी जबरदस्ते आड तोंड उगडपाक लेगीत ते नालायक जाले इतल्या सकयल्या थराक तांचें बंदेपण पावलें. आनी सगल्यांत वायट म्हणचे आपूण आपल्या क्रिस्तांव राज्यकर्त्यांकडेन निश्चितपणान एकजुटीन रावपाकूच जाय ही खोटी कल्पना गोंयांतल्या क्रिस्तांवांमदीं भिनली. कित्याक, ते दोगूय क्रिस्तांवधर्मी आसले इतलेंच. पुणून खरें सांगपाचें म्हणल्यार साम्राज्यशायेचे राज्यकर्ते आनी तांची प्रजा हांचें हीत परस्पर विरोधीच आसता मागीर तांचो धर्म खंयचोय काय आसना.

शिवाय, सक्रीय मुलकी राजसत्ता आनी हिंसक उपाय हांच्या पालवान केल्लीं धर्मांतरां, जीं धर्मीक भाववृत्तीकडेन विसंगत आशिल्लीं, तीं केवळ धर्मीक उद्देशान करूंक नासलीं हें सिध्द जाता. सगल्यांत चड म्हत्वाचें म्हणल्यार त्या उद्दिश्टांक लागून पुर्तुगेजांनी आपणाल्या फायद्या खातीर अर्दे थळावे देशी प्रजेची म्हालमत्ता लुटली आनी उरिल्ल्या अर्द्या लोकांक तांणी निर्वीय, असहाय आनी शरणार्थी केले. धर्माच्या नांवान हिंदूंक लुबाडले आनी क्रिस्तावांक लाचार गुलाम केले. बळकावप्यांचे सुरक्षितताये पासत तांणी दोगांयचेरय दहशत बसयली.

हेर खंयच्याय साम्राज्यवादी राज्यकर्त्यांपरस पुर्तुगेजांनी धर्म हें शस्त्र राजकी शोशणां आनी जुलूम करपाक वापरलें. वसणुकांतलें धर्मांतर करपाचें धोरण केवळ अध्यात्मीक उद्देशान नासलें तर संपत्तीचो क्षुद्र लोभ मनांत दवरून तें केल्लें हें पुर्तुगेज रिपब्लीकनांचे [1] हे विशींचे वृत्तीवयल्यान दिसून येता. सत्तेचेर येतकच तांणी धर्मसत्ता आनी राजसत्ता, नवो कायदो करून वेगळीं केलीं. (Law of separation of church and state). पुर्तुगालांत कॅथलीक धर्माआड ते कोडसाणीन झुजले, पूण वसणुकांनी मात बिशप, धर्माधिकारी, धर्मप्रसारक, पाद्री आनी सिमिनारी आदींचो सरकारी पैशांनी खर्च चलयलो आनी सत्तेक बळ दिवन कातोल्क धर्माचो प्रसार साधलो. धर्माधिकाऱ्याचें आड तांची खर आनी आक्रमक भुमिका आसूनय, तांणी वसणूकवादी साम्राज्यांत धर्मसत्तेचो सांबाळ केलो आनी आतां तर प्रतिगामी हुकूमशहा सालाझारच [2] क्रिस्तांव धर्माक अधिकृत उत्तेजन दिवन राजकी हेतूनच प्रचार करतात हें गुपीत उरूंक ना. कातोल्क धर्मप्रसार केंद्रां (missions) हीं सांस्कृतीक आनी राष्ट्रीय प्रभावाचीं साधनां आसात अशें Organic Charter of Portuguese Colonial Empire च्या 248 च्या विभागांत उक्तेपणान स्पश्टच म्हणलां. दर्या पलतडच्या प्रांतांतले धर्मप्रांत (Dioceses) आनी मिसांवां (धर्मप्रसार केंद्रां) हांकां त्याच कारणांखातीर सरकारी मदत मेळटली हें हालींच जाल्ल्या 'हुकूमशाय आनी रोमाची चर्च' हांचेमदीं जाल्ले कबलातीन (Concordat) सिद्ध केलां.

इतिहासा सारके खास विशय शिकयतना न्याय्य (legitimate) पुर्तुगेज देशभक्तीची भावना लक्षांत दवरची अशें धर्मोपदेश करपी अधिकाऱ्यांनी स्पश्टच म्हणलां. तांचे दिश्टीन धर्म हें केवळ आमच्या राष्ट्रीयत्वाचो

---

(1) 1910 वर्सा पुर्तुगालांत राजेशाय नश्ट जावन प्रजासत्ताक राजवट आयली.

(2) 1928 वर्सा डॉ. ओलिव्हेर सालाझार पुर्तुगालचो प्रधानमंत्री जालो आनी मागीर फॅसिस्ट हुकूमशाह म्हूण ताणें राज्य चलयलें.

ऱ्हास करपाचें म्हणजेच आमकां देशभश्ट करपाचें साधन आसलें हें स्पश्टच आसा. साम्राज्यवादी राजकारणान धर्माक कितें भुमिका दिल्ली ताचो आमच्या कातोल्क गोंयकारांनी जागरूकतायेन विचार करचो.

## रितीरविशेचें देशभश्टेपण

पुर्तुगेजांनी सहिष्णुतायेन घडोवन हाडिल्ले बदल धर्मीक वेव्हारापुरतेच मर्यादीत नासले. तांणी हिंदी लोकांची सरसमान जिणेची पद्धत आनी तांच्यो पारंपारीक रुढी हातूंतय धवळाधवळ केली. तांच्या थळाव्या हवामानाक अनुकूल नाशिल्ल्यो परकी आनी विचित्र संवयी आनी रिती तांचेर लादल्यो. तांची घमेंड हिंदी लोकांच्या प्रत्येक परंपरेन चलत आयिल्ले प्रथेचेर हल्लो करताली. गोंयांतल्या लोकांच्यो रितीरविशी बदलपाक 'पवित्र इंक्विझिशन' (Holy Inquisition) हें शास्त्र सगल्यांत चड उपेगी पडलें. गोंयांत तें 250 वर्सां अस्तित्वांत आसलें. ताची खरसाण कांय इतिहासकारांच्या दाव्याप्रमाणें क्रिस्तांवांकूच न्हय तर हिंदूंक लेगीत जाचक थारली. ताचे आदेश हुकूम (decree), धर्मीक आज्ञापत्रां (edicts) आनी गंवळीक पत्रां हांचें उल्लंघन केल्यार क्रिस्तांवांक ताच्या त्रिबुनालामुखार (न्यायालया) हाडटाले; तर हिंदूंक तथाकथीत चेटूक, जादू-टोणे आदी गुन्यांवा खातीर. दोगांयकडल्यान ते भरपूर पयशे काडटाले. फ्रेंच प्रवासी देलां (Dellon) आनी पिरार्ड (Pyrard) हांणी लेगीत ताचें वर्णन केलां.

गोंयांतल्या 'इक्विझिशना' बद्दल दिसपी भंयाकृत्तपण आनी काळखाचे कुडींत भोगच्यो लागपी यातना, ताणें दिल्ल्या ख्यास्तींतली क्रूरताय आनी रानवटीपण खासा एवोराच्या आर्सेबिस्पान (Archbishop of Evora) मान्य केलां. लिसबोआंत दिल्ल्या एका सेर्मांवात ते म्हणटात, "खंयसरूय इंक्विझिशन (धर्मसमिक्षा न्यायमंडळ) हें कुप्रसिध्द न्यायालय आसलें आनी

ही कुप्रसिध्दी कितलीय उणाक, नीच, भश्ट आनी स्वार्थी आसली, तरी तिची गोंयांतल्या इक्विझिशनाकडेन तुळा जावपाक शकना आनी ह्या इंक्विझिशनाक 'होली ऑफिस' म्हणप हो दैवदुर्विलास. ह्या इंक्विझिटर्सांची (न्यायाधिशांची) कुप्रसिध्दी इतल्या थराक पाविल्ली कीं ज्या बायलांनी ताचे पाशवी वासनेक बळी पडपाक प्रतिकार केलो, तांकां बंदखणींत धाडून, थंय ताचो उपभोग घेवन उपरांत पाखंडी म्हणून तांकां लासपाक तांणी फाटीं फुडें पळयलें ना."

भयाणतायेची याद दिवपी हें कोर्ट पोरण्या गोंयांत 'व्हडल्या घरांत' अस्तित्वांत आसलें. 14 एप्रिल 1736 च्या आपल्या आदेशांत ताणें फर्मान काडलें, कायदो मोडप्यांचेर खर बहिश्कार घालतले आनी सगळ्यो हेर अध्यात्मीक आनी ऐहीक ख्यास्ती भोगच्यो पडटल्यो. तातूंतल्यो साबार ख्यास्ती हिंदी जिणेचे पद्धतीचेर आसल्यो. लांबदीक यादींतल्यो कांय आज्ञा निवडून देखी म्हणून सकयल दिल्यात:

"आमी देशी लोकांक अशें फर्मायतात : लग्न सुवाळ्यांत वा लग्नकार्याच्या कसल्याच समारंभांत न्हवऱ्याच्या वां व्हंकलेच्या घरा थळावे भाशेंतल्यो होंवयो (vovios) गावची रीत आसा. देशी लोकांक ताकीद दितांव कीं तांणी उक्तेपणी किंवा खाजगींत कोणेंच होवयो गावपाक जायना. अशें केल्यार निश्ठावंत क्रिस्तांवांमदीं होवयो गावपाची जी प्रथा चालू आसा ती सामकी बंद जातली. (आज्ञा 687) 'देशी लोकांक असो हुकूम करतांव कीं तांणी मीठ घाल्ले बगर शीत जेवणांत वाडचें न्हय. हिंदूंचे चाली प्रमाणें शीत करतना तातूंत मीठ घालिनांत आनी मागीर रुची प्रमाणें अदीक उणें मीठ घेतात अशें कोणेंच करपाक जायना. (आज्ञा 40). 'देशी लोकांक असो हुकूम करतांव कीं तांणी घराक लागून आशिल्ल्या पोरसांत, आंगणांत वा भाटांत तुळस नांवांचें रोप लावचें न्हय आनी जर तुळशीचें रोप खंयय दिसत जाल्यार तें रोखडेंच हुमटावन उडोवचें (आज्ञा 46). देशी लोकांक,

गोंयच्या तिनय महालांत (बार्देस, तिसवाडी, साश्ट) रावतल्यांक आनी पुर्तुगेजांक लेगीत अशी शिटकावणी दितांव कीं तांणी खंयच्याय क्रिस्तावांक (ताच्या आदल्या) हिंदू नांवान उलो मारचो न्हय. (आज्ञा 47). देशी लोकांक अशी शिटकावणी दितात कीं दादल्यांनी घरांत किंवा घरा भायर पुडवें (Purvem) न्हेसचें न्हय आनी बायलांनी चोळी घालची न्हय कित्याक त्यो हिंदूच्यो रिती आसात. (आज्ञा 45)

सुधारणा घडोवन हाडपाच्या अच्छेवांत हाचेकूय अदीक जुल्मी आनी पिशेपणाचें आनी कांयच आसूं नजो. आमी कितें खावचें, कशें खावचें आनी कितें न्हेसचें हें आमच्या 'धनयांनी' आमकां सांगलें. क्रिस्तांवांनी पुडवें सोडून दिवचें आनी फकत काश्टी बांदची असो हुकूम दिवन, घडोवन हाडिल्ले मार व्हडले सुधारणे वरवीं धर्माचो कसलो लाव जाला आसतलो हाचें अजाप जाले बगर रावना. दक्षिण हिंदुस्थानांतल्या कॅथलीक लोकांनी आपलीं हिंदी मुस्तायकी, वेश आनी नांवां तशींच दवरल्यांत. तरी तांचें धर्माविशींचें प्रेम उणें जावंक ना. आमच्या ह्या असभ्य इंक्विझिटर्सांनी 'पॅगनीझम' (अनभवार्थियांच्यो रितीरविसो) नानपयत करपाच्या नांवाखाला खाजगी जिणेंतल्या बारीक सारीक गजालींत धवळाधवळ केली. पुणून इतलीं कठोरपणा वापरून लेगीत त्यो 'दोशी' थारिल्ल्यो रिती रविसो गोंयांतल्या क्रिस्तावांमदीं आजुनूय चलतात.

सगल्यांत अजापाची गजाल म्हणल्यार हिंदी रितीरविसांआड निर्दयपणान झूज मांडपी ह्या धर्मीक सुधारकांनी हिंदू धर्माचे जाती वेवस्थेक मात हात लायलो ना. ती जातीयता कॅथोलीक धर्मांत तेच भशेन चालू उरली. इतलेंच न्हय तर कांय धर्मीक कॉंफ्रारियांनी खास जातींच्या लोकांकच प्रवेश दितात, जशें कितें हेर जातीचे व्यक्तीन प्रवेश केल्यार ती कॉंफ्रारीय भश्टतली!

खरें तर पुर्तुगेजांनी हिंदू जाती आसा तश्योच दवरल्यो, इतलेंच न्हय

र तातूंत एके नवे जातीची भर घाली. एवरोपेव आनी तांच्या वंशजांपसून र्माण जाल्ली जात - मिस्तीस, तिका सगल्यांत उंचेल्या मानाचें स्थान देलां आनी ह्या लोकांची एक खाशेली संस्था, सुप्रसिध्द सांत काझ द मेझेरिकोर्दीय (Santa Casa da Misericordia) आजय अस्तित्वांत भासून ती सोर्तींच्या पैशांचेर चलता.

पुर्तुगेज रेपुब्लिकाची राज्यघटना 'जल्मसिध्द हक्क मानिना'. पूण सांत काझ' ह्या एवरोपेव आनी युरेशियन बांधवांचो तिरस्करणीय शेक मात आदरान सोंसता. हालींच सरकारी मंडळान काडिल्ल्या एका कायद्या वरवीं, हिंदी कॅथलीक समाजांत अस्तित्वांत आशिल्ले जल्मसिध्द हक्क शाबीत जाता ह्या कारणावेल्यान जातीय हक्क रद्द केले. पुणून तातूंत फक्त गोऱ्या लोकांच्या समाजाक मात सूट दिली. ताका लागून तांकां सोर्तींच्या पैशांतल्यान मेळपी लाखांनी रूपयांचो लाव हक्कान मेळ्ळो. सगळेकडेन साम्राज्यवाद्यांक हिंदी जाती मदल्या असमानताये बद्दल धपको बसता, पूण आपणाल्या लोकां पुरती मात ती ते मान्य करतात. पुर्तुगेज कायदे शास्त्राच्या साहित्यांत ज्या उच्च तत्वांचो आदरान उल्लेख केला, तीं प्रत्यक्षांत कसल्या मोलाचीं आसात हेंच हाचेवयल्यान दिसून येता.

हो घोर अन्याय जरी क्रिस्तांव धर्मतत्वाच्या आड आसलो तरी लेगीत जातीयता तशीच दवरपांत राज्यकर्त्यांचें उद्दिशट साध्य जालें. कित्याक ताका लागून कॅथलीक गोंयकार जाती प्रमाणें वांटून गेल्ल्यान, तांचें शोशण करप सोंपें जाता. इतलेंच न्हय तर हे जातीय असमानतायेचो मान राखून, गोंयच्या तिसऱ्या प्रोविन्शियाल काउन्सिलान चवथ्या कायद्याच्या तिसऱ्या आदेशावरवीं आदेश दिलो कीं कॅथलीक पाद्री उच्च जातींतल्या लोकांमदल्यानूच वेंचून काडचे. त्या आदेशांत म्हणिल्लें, ''कॅथोलीक पाद्री हे उच्च भोवमानाचे आनी सच्छील जातकुळयेचे आसचे; म्हणटकीच हेर क्रिस्तांव तांकां मान दितले.'' पूण जेजुईत हाचेय परस फुडें गेले. तांच्या

मलबार मिशनांत, प्रोफेसोर बिहमर म्हणटात त्या प्रमाणें मरपाक तेंकिल्ले अस्पृश्य व्यक्तीक कोमुनियांव नाकारपाचो आनी ख्रिस्तप्रसाद (host) एके बडयेच्या तोंकाक बांदून ते व्यक्तीक दिवपाचो किंवा ताच्या घराच्या हुंबऱ्यार तो दवरपाचो हक्क पाद्रींक दिल्लो. अशे तरेचे पूर्वग्रह आनी कुड्डी श्रध्दा तशीच चालू दवरपांत तांचो हेत स्पश्ट जाता. आतां लेगीत कॅथोलीक आपणाले जाती भायर काजार करिनात; जातीयतेक हिंदू इतलेच हटान चिकटून रावल्यात. गोंयच्या अस्तंतीकरणाची बढाय म्हणल्यार वयलेचाराचें धोंगच, तांच्या मानसीक बंदेपणाचो पुरावो.

गोंयकारांच्या अस्तंतीकरणांत चडशी बंदेपणाचीच झांक मारता. हिंदी आसपी प्रत्येक गजालीची अखटाय करून अस्तंती रितीरविशेची वानराभशेन नक्कल करप हें सुसंस्कृत आनी बरो क्रिस्तांव जावपाक गरजेचें आसा ही भावना मनांत रुजोवपाक पुर्तुगेज असहिष्णुताय सफळ जाली. आयज लेगीत सालाझाराचे हुकूमशायेंत हिंदू अधिकाऱ्यांक एवरोपेव पद्धतीचो भेस कायद्यान जरी नासलो तरी सक्तीचो आसा. कांय सरकारी ऑफिसांनी कॉलर आनी टाय नासतना शर्ट वापरपाक मनाय केल्या. हालींच दोन एवरोपेव फौजदारी न्यायाधिशांनी तीन शेंकड्यां पयलींचो कायदो उस्तून काडलो. ते प्रमाणें 'दर एका हिंदून किंवा मुसलमानान कोर्टांत येतना फेटो किंवा फेजटोपी वापरले विणें उक्त्या माथ्यान येवचें' असो आदेश दिलो. ह्या सक्तीच्या अस्तंतीकरणाक लागून आमचे लोक भलायकेच्चे आनी सुशेगाचे सादे मुळावे नेम सोडून ऐवरोपेव भेसाच्यो संवयी करपाक तयार जाले. वर्सयभर गरम हवामान आशिल्ल्या देशांत ते लोकरीचे सूट, जड बूट, मफलर, पांयमोजे वापरतात. ह्या विचित्र आनी पिशेपणाच्या आज्ञापालनाचो थळक दाखलो म्हणल्यार कॅथोलीक पाद्रीचो पेहराव. रणरणट्या वोतांत आनी सोसूंक येना तसले गरमेंत तो काळ्या रंगाचो लोकरीचो झगो घालून घामान चिपचिपत लोकरीचो लेंस माने भोंवतणी

ुठलावन चामड्याचे बूट घालून भोंवता. हे विचित्र नक्कलीची तेंगशी न्हणल्यार फॅशनीचे बाबतींत अद्यावत आसचें म्हूण त्या झग्याचेर ते दाट ओवरकोट, विलोदाची कॉलर आनी शर्टाचेर मनगटपरी वापरतात. हालींच्याच तेंपार भायर वतना तांणी धवो सुती झगो वापरल्यार जाता अशी पुर्तुगेज पत्रिआर्कान परवानगी दिल्या. आनीक एक विचित्र पेहराव म्हळ्यार इंक्विझिशनान क्रिस्तांव बायलांचेर लादिल्लो 'ऑल' हो भारी बेढव, किचकटी आनी भलायकेक वायट पडपी पेहरावाचो प्रकार. तर अशे तरेन थळाव्या उदक वाऱ्याक फावना तश्यो आनी स्वास्थ्याक वायट अश्यो संवयी ज्यो थळाव्या वातावरणाकडेन विसंगत आसात, त्यो गोंयकारांनी आपणायल्यो.

सक्तीन किंवा शिश्टाचाराचो भाग म्हणून अस्तंती संवयो आपणायल्ल्यान ताचे हासूंक येवपा सारके परिणाम दिश्टी पडटात. कमी येणावळ आशिल्ल्यान सतत बदलपी एवरोपेव मुस्तायकीच्यो तरा परवडनात; ताचे खातीर आमचे परस अदीक आस्पतीचो पांवडो गरजेचो आसता. तरी पूण असले पिशेपणाचे परिणाम जावनय, आमचे कांय भावबंध हटान ऐवरोपेवाप्रमाणे भेस करतात. आनी तांचेर सक्ती नासतना, तांचेवरींच रावतात. तरी लेगीत प्रभावी व्यक्तिमत्व आशिल्ल्या लोकांप्रमाणें, परकी संस्कृतायेंतल्यान जाय तितलेंच घेवचें आनी नाका तें सोडचें, अशेंय हे लोक करिनात. खंयचीय अस्तंती गजाल ते मनाक मारीत तशे सरसकट स्विकारतात, तांकां ती सोबना जाल्यार ती सोडपाचोय यत्न ते करिनात. एवरोपेव आदर्श तांकां अशे तरेन भुलयतात.

## संस्कृतीक देशभश्टेपण

गोंयचे विशीं विचार करतना तो केवळ संस्कृतीचो ऱ्हास नासलो तर

तें पुरायपणान संस्कृतीक दिवाळें आसलें. पुर्तुगेजांनी आमचे राष्ट्रीय संस्कृतीचे प्रगतींत आडखळ तर हाडलीच, पूण तिचे सुवातेर उल्लेखनीय अशी नवी संस्कृती हाडपाकय ते लायक नासले हेंच तांणी सिद्ध केलें. बौद्धीक प्रगतीचे प्रत्येक शाखेंत तांचें दयनीय मागाशिल्लेंपण आशिल्ल्यान हांगचे संस्कृतायेची बुन्यादच तांणी नश्ट केली आनी आमची बौद्धीक तांक नक्कल आनी विडंबनाचे खालचे पातळेचेर हाडली. तांणी आरंभच आमची भाशा ना-नपयत करपान केलो. गोंयांत साबार वर्सां राबितो केल्लो पुर्तुगेज सरकारचो मुखेल सचीव आनी इतिहासकार कुंज्य रिवार, आपणाल्या देशबांधवांच्या दुस्वाशी कार्याबद्दल स्मरणीय उतरांनी सांगता:

''जिखपाचे पयले उचंबळायेंत, देवळां उद्ध्वस्त केलीं, अनभावार्थियांची सगली पुजा-पनस्कारांची सगलीं चिन्नां तोडून तांचो चुरोमुरो केलो आनी देशी भाशेंतलीं पुस्तकां दोशी थारावन किंवा मुर्तीपुजेची शिकवण आशिल्ल्याच्या दुबावान लासून उडयलीं. रोखडेच धर्मांतरीत जावंक नाशिल्ल्या लोकांक मुळांतच नश्ट करपाचो हावेस आसलो आनी हो आवंडो फकत त्या काळा पुरतोच नासलो; तर दोन शेंकड्यां उपरांतय स्वताक न्यायी समजपी लोकांनी घमेंडीन सरकाराक तसोच सल्लो दिल्लो...''

खऱ्यांनीच संस्कृतीक दिवाळखोरीचें मुखेल कारण म्हणल्यार खास करून कोंकणी आनी मराठीचो रानटीपणान केल्लो छळ आनी पुर्तुगेज भाशेची सक्ती. गोंय जुंवो जिखतकच हे बंदीचो आरंभ जालो आनी आजुनूय मायभास आशिल्ले, कोंकणीचेर ती चालू आसा. मायभाशेची उदरगत जावची न्हय म्हणून साबार आडखळी हाडल्यो आनी सगळीं साधनां वापरून परकी भाशा आपणावंची म्हणून सगले उपाय तांचेर लादले. कुंज्य रिवारान प्रमाण दिल्ले प्रमाणें आरंभाकूच थळाव्या भाशेंतलीं सगलीं पुस्तकां नश्ट केलीं. 1548 त लेगीत बिशप पा. जुआंव द आल्बुकेर्कीन थळावे भाशेंतलीं पुस्तकां नश्ट करपाखातीर एकठांय केल्लीं. पुणून मागीर

अश्या उपायांनी विदूध्वंस करून भाशा नाकरपांत येस येना; उलट राज्यकर्त्यांक लोकांकडेन वेव्हार करपाचें माध्यम उरूंक ना हें पळोवन कांय एवरोपेव पाद्री संस्कृत आनी मराठीच्या आधारान कोंकणी शिकपाक लागले. कॅटकिझम (म्हणल्यार प्रस्न आनी जापो ह्या माध्यमांतलें धर्मतत्वसार) धेडगुजरी कोंकणींत छापलें. धर्मप्रसारकांनी कांय पुस्तकां कोंकणींत कित्याक बरयलीं हें हाचे वयल्यान कळटा. ताचेवयल्यान जेजुईटांनी आमचे भाशेची उदरगत आनी प्रचार केलो अशी खोटी कल्पना करून दिल्या. पूण तांणी हें स्वताच्या फायद्या पासतच केलें आनी तांचे पयलीं आयिल्ल्या लोकांनी विदूध्वंस केल्ले पासत तांकां हें करचें पडलें. साश्टींत जेजुईतांचें राज्य आसलें, दुसऱ्या धर्मीक संघांचो प्रभाव आशिल्ल्या हेर खंयच्याय वाठारापरस साश्टींतली कोंकणी अशुदूध दिसता. अस्सल आनी प्रचारांतले भाशेकडेन चड संवकळ नासतना तांणी बरयल्लीं पुस्तकांच भाशेचे उतरावळीक, वाक्यरचनेक आनी अशुदूधीकरणाक जबाबदार आसात.

पुणून धर्मांतरां करपा खातीर निर्माण जाल्ली ही कोंकणी शिकपाची उर्बा चड काळ तिगली ना. 17 व्या शेंकड्याच्या आरंभाक 'चोंब्यांनी दिल्ल्या बाप्तिज्मांक' लागून कोंकणी शिकपाचे कटकटींतल्यान पाद्रींची सुटका जाली. उलट हे भाशेविशीं तांच्यांत खर प्रतिकार उप्रासलो. बारदेसांत फ्रांसिस्कन पाद्री सुसेगाद जीण सारपाक लागले आनी हे भाशेआड बंड करपाक ते सगळ्यांत पयले आसले. आर्सेबिशप दाँ. सेबास्तियांव द पेद्रु 1627 त म्हणटात, 'थळावी भाशा शिकपाची तकस ते घेनात.' ताणें गोंयकार पाद्री नेमपाची धमकी दितकच 13 डिसेंबर 1629 ह्या दिसा फ्रांसिस्कसांनी ताका जाप दिली. "थळाव्या पाद्रींचे कान तोपिल्ले आसतात. आपणांक आनी आपल्या नातेवर्गीयांक म्हालमत्तो कसो मेळटलो इतलेंच ते पळयतात. ताका लागून तांकां मान मेळना." हेर धर्मसंघाच्या पाद्रींचे बाबतींतय हेंच घडलें. आन्तोनियु द मेल कास्त्रो ह्या व्हायसरॉयान राजाकडेन

तक्रार केली. 'जेजुईत, डॉर्मनिकन आनी आगुस्तिनियन धर्मसंघाचे पाद्री कोंकणी भाशा शिकपाक नकार दितात.'

थळाव्या देशी आनी एवरोंपेव पाद्रीमदीं सर्त उप्राशिल्ल्यान कोंकणीचें हुमटावप आनी पुर्तुगेज भाशेची सक्ती जावपाक कारण जालें. गिग्स्त फिर्गजो आनी थंय मेळपी स्वैराचारी जीण हांगडावन कोंकणी भाशेच्या अज्ञानाक लागून आपलीं पदां थळाव्या पाद्रींक दिवचीं पडटलीं, ह्या भंयान एवरोंपेव धर्मप्रसारकांनी 27 जून 1684 ह्या दिसा व्हायसरॉय फ्रांसिस्कु द तावोरा काँदी द् आल्वोरा हांचेकडल्यान सकयल दिल्लो आदेश मेळयलो:

"कमी अडचणीचें नाशिल्ल्यान ह्या देशांतल्या लोकांनी आपले देशी भाशेचो वापर करचो न्हय आनी पुतुगेजांचे भाशेन उलोवचें, जाका लागून सगल्यो अडचणी सरतल्यो. एकाच वेळार मायभास आनी पुर्तुगेज उलयल्ल्यान एकामेकांक समजून घेवप जायना ते भायर फिर्गजेच्या पाद्रींक, लोकांक धर्मतत्वां आनी धर्माच्या गूढ तत्वांची शिकवण दिवप सोंपें जातलें. कित्याक पाद्रींक थळावी भाशा येनाशिल्ल्यान वा फिर्गजेंतले लोक पुर्तुगेज शिकनाशिल्ल्यान धर्माचो उपदेश समजप अवघड जाता. कितेंय आसूं, राजकी वेव्हार आनी आत्म्याचें अध्यात्मीक कल्याण ह्या दोनय दिरटीन तें घातक... सगल्यांक परस्परांकडेन वेव्हार करपाक सोंपें जावचें म्हणून थळाव्या लोकांनी पुर्तुगेज भाशेंत उलोवचें, पाद्री आनी शिक्षक हांणी भुरग्यांक तेच भाशेंत शिकोवचें, म्हणटकूच कालांतरान थळावे भाशेचो वापर बंद जावन पुर्तुगेजच सगळ्यांक मान्य अशी भाशा जातली. ते खातीर सदांच सगल्या सुवातांचेर आनी सगळ्या प्रसंगांचेर पुर्तुगेज भाशेंत अस्सलखीत जाय मेरेन तीच भाशा वापरची. **हाचे खातीर हांव तांकां तीन वर्सांची मुदत दितां, तितले भितर तांणी पुर्तुगेज भास शिकपाक जाय आनी आपल्या प्रदेशांत केल्ले जमनी विशींचे करार आनी हेर सगले वेव्हार पुर्तुगेज भाशेंतल्यानूच जावपाक जाय. थळावी**

भाशा वापरची न्हय. देशी भाशेचो उपेग केल्यार तांचेर दंडाची उपाय येवजण करतले आनी फावो ती ठळकपणान नदरेंत भरपी कडक ख्यास्त तांकां जातली.'

भाशेचें हुमटावप करपी ह्या कायद्याक हिंदी पाद्री आड संघर्श करतना फ्रांसिस्कनांनी एक शेंकडोभर पाळो दिलो आनी खर असंतोश ओडून घेतलो. हिंदी लोकांच्या दुस्वासान 1 फेब्रुवारी 1742 ह्या दिसा तांणी राजाक, गोंयच्या पा[illegible]नी पुर्तुगेजांचेर आक्रमण करपाक मराठ्यांक मदत केली अशें कळयलें. गव्हर्नरान तें न्हयकारलें पूण आरोप करपाचो तो केलोच. तांणी राजा[illegible] कळयलें: ''पाद्री तशेंच हेर थळाव्या क्रिस्तावांक खऱ्या क्रिस्तांवापरस [illegible]युरोपेव - अणकारपी) पाखंडी लागशिल्ले दिसतात. आपणाल्या सरकाराआड झुजपी ल्हान राजांच्या सार्वभौमत्वाविशीं तांकां खुद्द महाराजांपरसय चड आदर दिसता ही सत्य स्थिती आसा. हें अयोग्य दिसत, पूण घडिल्ल्यो घडणुको ताका आधार दितात. कित्याक, भोंसल्यांनी (बारदेसाक) रेवाडो घालो तेन्ना बारदेसांतल्या कांय इगर्जांनी आपलें रुपें तांकां दिलें. तें रुपें गोंयचे तिजोरेंत दवरपाची विनंती करप्यांक तांणी जाप दिली: पुर्तुगेजांनी व्हरपा परस भोंसल्यांनी व्हेल्यार तांकां चड आवडटलें. हे वस्तुस्थितीक लागून आमच्या म्हणण्याक तेंकोच मेळटा.''

थळाव्यो भाशा दडपुपाच्या झुजांत सगळ्याच सत्तांनी कट केल्लो. पुर्तुगेज भाशेची सक्ती करपाच्या प्रयत्नांची चडशी जापसालदारकी 'इंक्विझिशन' कडेन वता. आंतोनियो आमाराल कुतिंज्यु ह्या इंक्विझिटरान (न्यायाधिशान) 26 जानेवारी 1737 ह्या दिसा राजाक बरयल्ल्या कडक पत्रांत खर उपायांची गरज स्पश्ट करतना म्हणलां : ''गोंयकारांच्या आत्म्यांच्या दयनीय अधोगतीचें मुखेल कारण म्हणल्यार महाराज दाँ सॅबास्तियांव हांच्या आज्ञेवर्वी दिल्ल्या हुकूमाक पाळो ना दिवप हेंच आसा. ह्या कायद्यान थळाव्या लोकांक तांची भाशा उलोवपाक बंदी घाल्ली

आनी फकत पुर्तुगेज भाशाच उलोवपाची सक्ती केल्ली. ह्या कायद्याक पाळो ना दिल्ल्यान खूब दुश्परिणाम जावन आत्म्याचे तशेंच सरकाराचें भरून ना येवपा सारकें लुकसाण जालां.''

21 नोव्हेंबर 1745 च्या गंवळीक चिठी वरवीं गोंयांतल्या पाद्रींचेर तांचे नेमणुके खातीर सकला दिल्ल्यो अटी घाल्ल्यो. ताचे फाटल्यान एवरोपेव पाद्रींक मेळनाशिल्ले फायदे थळाव्या पाद्रींक मेळचे न्हय होच उद्देश आसलो. पुर्तुगेज भाशेचें ज्ञान आनी फक्त तीच भाशा उलोवपाची तांक, फक्त स्वताखातीरच न्हय तर ताचे लागींचे नातेवर्गी आनी बायलो – दादले हांकां लेगीत कडक परिक्षा दिवन मानेस्त विगारानी थारावची अशी एक अट घाल्ली. हालींच्या काळांतय गोंयकारांमदीं पाद्रीच्या पदाखातीर ह्यो अटी पुराय करूंक शकत अशी एकय व्यक्ती सांपडप लागीं लागीं अशक्यच आसलें. हो आदेश काडपी आर्सेबिशप दाँ पाद्री लॉरेन्सु द सांता मारिया हाणें आनी एक आदेश काडलो. तो पळयतकच ह्या मनशाची तकली जाग्यार आसा काय ना असो दुबाव येता. तो आदेश असो आसलो:

''आमकां हो आदेश गोंयच्या जुंव्यांत तशेंच बारदेश आनी साश्ट ह्या म्हालांत पर्थून लागू करपाक आनंद जाता. ताचे वरवीं पुर्तुगेज भाशा येना आशिल्ल्यांक वा ती उलोवपाची संवय नाशिल्ल्या खंयच्याय दादल्या-बायलेक लग्न करपाक सक्त मनाय आसा. हो कायदो सगल्या रहिवाशांक आनी सगल्या बामणांक आनी क्षत्रियांक, हें प्रसिध्द जातकच स म्हयन्यां भितर लागू जातलो. तितल्या काळांत तांणी हे भाशेंतल्यान उलोवपाक शिकचें. हेर जातींखातीर ही मुदत एक वर्साची आसतली. मानेस्त पाद्रींनी खास खबरदारी घेवची आनी ते व्यक्तीक पुर्तुगेज कळटा आनी तिका पुर्तुगेज उलोवपाची संवय आसा हाची परिक्षा घेवंची. क्रिस्तांव धर्मतत्वांची परिक्षा घेतना सगले प्रस्न पुर्तुगेज भाशेंतल्यानच विचारचे आनी ही परिक्षा

विगारांनी किंवा ताच्या पादकुरांनी घेवंची आनी 'पवित्र शुभवर्तमानाचे' साक्षीनच तांकां प्रमाणपत्र दिवचें.''

आमच्या ह्या आर्सेबिशपान खरेंच, गोंयच्या कातोल्कांमदीं 'स्वैरप्रेम' करपाची खात्रीची पद्धत सोदून काडली! खरें म्हणल्यार त्या काळांत 2% लोक लेगीत पुर्तुगेज जाणपी नासले. कोंद द आल्वोरा अदीक सोंसणिकायेंचो आनी उदार आसलो. ताणें पुर्तुगेज भाशा शिकपाक तीन वर्सांची मुदत दिल्ली; पुणून आर्सेबिशपाक मात स म्हयने पुरोशे दिसले! अशे तरेन सक्तीचे सगळे उपाय येवजुपांत आयले. 1831 मेरेनय, व्हायसरॉय दाँ मान्वेल द पोर्तुगाल क त्रोन शाळांनी, सार्वजनीक कार्यालयां तेचपरी बराकिनी आमची कोंकणी भाषा उलोवपाची सक्त मनाय केल्ली. आयज लेगीत गोंयांतलें सरकारी शिक्षण फकत पुर्तुगेज भाशेंतल्यानूच दितात.

ह्या मुर्खपणाच्या धोरणाचो निव्वळ परिणाम म्हणल्यार आमची भयानक निरक्षरताय, जातूंत आमचे लोक बुडल्यात तें दुखदिणें अज्ञान आनी एक्य कोंकणी शाळा नासप हो आसा. चारशें वर्सांच्या ह्या, आमच्या लोकांक मुळासावन हुमटावपाच्या तिरस्कार करपी उपायां उपरांत पुर्तुगेज हिंदुस्थानांत 83.7% ही निरक्षरांची अजापाची टक्केवारी आसा. पुर्तुगेज भाशेच्या प्रसाराखातीर इतले रानवटी उपाय येवजूनय फकत 7.6 टक्के लोक पुर्तुगेज भाशा वाचूं शकतात. तर 8.7 टक्के लोक पुर्तुगेज सोडून हेर भाशा बरोवपाक आनी वाचपाक शकतात. ही आंकडेवारी मराठी शाळांमदीं शिकिल्ल्यांची आसा. ह्यो शाळा धर्मीक छळ सोंपतकीच, चालू दवरपाक दिल्यो. त्यो खाजगी फुडाकारान आनी सरकारी मदती बगर चलताल्यो. हाचो अर्थ म्हणल्यार सरकाराकडल्यान शिक्षण मेळोवपाची अपेक्षा केल्ली जाल्यार निरक्षरांची ही संख्या 83.3 टक्के रावनासतना 92.4 टक्के इतली जातली आसली.

तीन शेंकडे, गोंयांत शिक्षण हो धर्मीक आनी धर्मसंघांचो मक्तो

आसलो. आजुनूय तश्या प्रकारचें शिक्षण दिवपी पारोकियाल शाळा अस्तित्वांत आसात आनी त्यो भुरग्यांची बुद्धी धांपण्यात बंद करून दवरपाक जापसालदार आसात. थंय तांकां कुटी मारून, विचित्र आनी कळना सारकिल्ल्या कोंकणींतल्यान, क्रिस्तांव धर्मांतल्या तत्वांची पोपटपंची करपाक भाग पाडटात आनी समजूंक येना असले लार्ती आनी पुर्तुगेज शब्द आड्डून पाठ करचे पडटात. माध्यमीक आनी उच्च शिक्षण फक्त सिमिनारींल्यानूच शिकयतात. थंय असो अभ्यासक्रम आसतालो : लार्ती व्याकरण, तत्वज्ञान, धर्मशास्त्र, नितीशास्त्र आनी पोरण्या शिक्षणाची भेळमिसळ. चडश्या गोंयकारांची बुद्धीमत्ता विकृत करपाक हेंच शिक्षण मुखेलपणान जापसालदार आसा. सरसमान सरकारी शिक्षण 1837 पासून सुरू जालें आनी तें लेगीत उणें बंदेपणाचें नासलें.

मुळाव्या, मदल्या आनी उच्च शिक्षणा करवीं जे संस्कृतायेची पुरवण जाली आनी आजूनय जाता, ताचे फाटल्यान सरकाराक आज्ञाधारक आनी लेंगे लेंगे करपी सेवक वर्ग मेळोवपाची तजवीज आसली. सगलें शिक्षणच मुद्दाम देशद्रोही तरेचें घडोवन उडयलां. अभ्यासक्रम विदेशी, विद्यार्थी रावतात त्या वातावरणाकडेन मात्तय संबंध नाशिल्लो. ताचो देशाचे उदरगतीक आनी उत्पादनतायेक कसलेच तरेचो वेव्हारीक उपेग नाशिल्लो. समजून घेवप, विचार करपाक लावप हाचेपरस विद्यार्थ्यांक घोकंमपट्टी करपाक शिकयतात. ताका लागून निर्बुद्ध आनी रोबोवरी - यंत्रावरी कारकून निर्माण जातात. साहित्य, इतिहास, भूगोल सगलें कितें पुर्तुगाला संबंधी आनी ताच्या भूतकाळांतल्या व्हडविकेविशीं आसता आनी खंयच्याय क्षुल्लक कारणाखातीर आनी साध्या प्रसंगाचेर लेगीत तांच्या पुर्विल्ल्या ऐश्वर्याचें गुणगान करतात. वाशकुद्गाम आनी आल्बुकेर्क हांच्या कर्तुत्वाचो इतिहास सोडल्यार हिंदुस्थाना बद्दल कांयच खबर नासता. पुर्तुगेजांचें गोंयांत येवप जाले उपरांत हिंदी लोकांचें अस्तित्वच

जशें काय उरलें ना. ल्हानपणा पासून स्वताच्या देशा विशींच्या अज्ञानांत वाडिल्ल्यान सुशिक्षीत गोंयकार स्वताक हिंदुस्थानापासून परको समजुपाक लागलो आनी पुर्तुगाल आनी ताच्या धर्मीक राजकारणांतल्यान घडिल्ल्या संकुचीत घडणुकांकडेन आपणाक घट्ट बांदून रावलो. आजय इंग्लीश शाळेंत मोठे संख्येन वचपी भुरगीं मिशनरी संस्थांक पसंती दितात. जंय भारत मातेविशींची भक्ती दुर्लक्षिल्ली दिसता. धुर्तपणान खंयच्याय राष्ट्रीय गजालीं विशीं उदासिनताय केळयतात. हाका लागून ह्याय लोकांच्या राष्ट्रीयत्वाचो तितलोच नाश जाता.

## संस्कृतायेची केलदावणी

वयर उल्लेख केल्ले प्रमाणे, पुर्तुगेजांनी निर्दयपणान आमची पारंपारीक संस्कृताय नश्ट केली तरी तांकां नांव घेवपा सारकी नवी पर्यायी संस्कृती मात आमकां दिवपाक जमलें ना. आमचे अगड जिणेंत वा भूयेंत मूळ नाशिल्ले एके संस्कृतायेच्या केदलावण्या रुपाची तांणी आमकां देणगी दिली. आमचे भुंयेक वा वातावरणाक ना मानवपी नकली संस्कृताय आमचेर लादून तांणी आमचे सहज प्रवृत्त उदरगतीक मात आडखळ हाडली. रानवटी उपायां वरवीं केल्ल्या ह्या लादपान आमकां संस्कृतीहीण दशेक पावयले. हातूंतल्यान सुटका करून घेवचेलो एकूच उच्चतम विचार म्हणल्यार आमी हिंदी परंपरेकडेन परतप. हे प्रक्रियेक सुरवातय जाल्याच. पुर्तुगेज भाशेचे सक्तीक लागून आमच्या लोकांमदीं फक्त धक्को दिवपी निरक्षरताय निर्माण जाली. कित्याक, पुर्तुगेज आमच्या देशाक फावोना तशी आसली. आमच्या लोकांनी सहज शिकपासारकीय नासली. आमचे जिणेचें खाशेलें आगळेंपण आनी थळाव्या उत्पन्नांची नांवां लेगीत वर्णुपाक ती उणी पडटाली. इंग्लीश भाशेभाशेन तिचो सरसमान संस्कृती मेळोवपाचो वा वेपार धंद्याखातीरय

उपेग जावपाक शकना. तिचो उपेग फकत सरकारी नोकरशायेची गरज भागोवपा इतलोच मेरावला. देखून धर्मीक छळ थांबतकच मराठीच्यो खाजगी शाळा, सरकार मराठीचो दुस्वास करतनाय वाडत गेल्यो. त्याच कारणाक लागून जे गोंयकार गोंय सोडून भायर गेले, तांकां बरोवपा वाचपाखातीर कोंकणी भाशेचो विकास करपाची गरज दिसपाक लागली. कराची आनी मुंबयसावन आमचे लोकप्रिय भाशेंतल्यान प्रसिद्ध जाल्लीं असंख्य पुस्तकां आनी नेमाळीं, आमच्या लोकांक जें ज्ञान तांचे स्वताचे भुंयेंत नाकारलें, तें ज्ञान संपादन करपाची कितली उत्कट इत्सा आसा हाचीच गवाय दिता. तळागाळांत ही चळवळ पातळटाना गोंयांतले बुदवंत मात कोंकणी ही भाशा काय बोली हें सोदपाच्या निरर्थक पांडित्याच्या प्रस्नांत अदीक आस्था दाखयतात.

आपणाली आवयभास केळोवपाक आडखळी घाल्ल्यान आमचे उच्चतम विचार आनी भावना उक्तावपाचें सभावीक साधन गोंयकारांकडल्यान काडून घेतिल्ल्यान तशेंच तांची उत्स्फुर्तताय आडावन उरिल्ल्यान, तांचे कडसून नांव घे सारकें साहित्य निर्माण जालें ना. आपणाले अडाणी भाशेची लज दिशिल्ल्यान, शिकिल्लो संवरिल्लो वर्ग तिची अखटाय करता. परकी भाशेंत बरोवचेली तांचेर सक्ती जाल्ल्यान ते फक्त नकली साहित्यच निर्माण करपाक शकतात. कित्याक, चैतन्य आनी नवनिर्मितीची तांक आशिल्लें साहित्य ते बरोवचेनात. तें निर्मुपाचो विशेश अधिकार केवळ आपले वंश परंपरेच्या दायजाचे खोल जाणविकायेंतल्यान स्फुर्ती घेतिल्ल्या लोकांकूच फावता. पयस आशिल्ल्या अस्तंतेल्यान तांणी आपले विचार उशणे घेतले आनी तेय आपणालें खरें स्वरूप कळूंक नाशिल्ल्यान, तें फक्त पुस्तकांतल्यान वा चित्रांतल्यान तांणी मेळयल्लें आसता. आमची हुशारी सामान्यतायेंत कोंडावल्या आनी आमची उच्चतम शक्ती परकी भाशेचेर प्रभुताय मेळोवपांत खर्चल्या देखुनूच, पुर्तुगेज, इंग्लीश आनी मराठी साहित्य

निर्मितींत आमचें दळडीरपण दिसून येता. तातूंत शैलीदार बरोवपाचे आनी सुक्षीमतायेचे प्रयत्न जरूर दिसून येतात. पूण तातूंत खोल विचारांचें रितेंपण जाणवता. कुड्डेंपणान निर्मिल्ल्या साहित्यांत चैतन्य आनी जीवसाण नासता, कित्याक जे भुंयेंत तें निर्माण जाता, थंय ताचीं मुळां नासतात.

कलेच्या मळारय तेंच घडटा. आमच्या देशांत ती आतां अस्तित्वांत ना अशें कोणय म्हणटले. कसलोच अवशेश लेगीत शिल्लक दवरिनासतना आमचीं देवळां आनी मशिदी ना नपयत करून तशेंच मुर्ती पुजेचें नीब दिवन, आमच्या थळाव्या कलाकारांचो लाकूड, चिकणमाती, पाशाण हांचेपासून वा हस्तिदंती मुर्ती घडोवप्यांचो वा सुवर्णकारांचो छळ करतकच जे कितें बाकी उरलां तें आमचे अवनती आनी अधोगतीचीच गवाय दिता. आपणाल्या पुर्विल्ल्या वैभवाची निशाणी म्हूण पुर्तुगेजांनी जें कितें दवरलें तीं पोरण्या गोंयांत उबारिल्लीं अस्तंती कलेंतलीं धर्मीक स्मारकां. हीं गोंयकार कलाकारांनीच निर्मिल्लीं. पूण ते कलेविशीं तांकां मात्तय ज्ञान नासलें वा आसल्यारय तें खूब अस्पश्ट आसलें. ताका लागून तिच्यांतले सुंदरतायेविशीं तांकां जाण नासली. भव्य इगर्जो, बासिलिका आनी कोवेंतांतले एवरोपेव 'रेनेसांस' चें (पुनरुत्थानाचें) बेढब कुड्डें अनुकरण पळयल्यार थंय भडक वर्ख दिवन 'वेदी' सोबयतना, अडाणी रुचीन वेगवेगळ्या मोडींचें धक्को दिवपी मिसरण केल्लें दिसून येता. चित्रकलेचे बाबतींत आमचे कडेन सरकारी काउन्सिलच्या सभाघरांत लायिल्ल्यो व्हायसरॉयांच्यो तसबिरी आसात. क्रमवारीन लायिल्लीं हीं राकेशी दिसपी हावक्यांवरीं चित्रां आमच्या काउन्सिलरांक (सदस्यांक) भेशटावपाकच आसतलीं. आमची आर्विल्ली कला दाखोवपी कांय कलाकार ब्रिटीश हिंदुस्थानांत कला शिक्षण घेतिल्ले आसात. तातंले कांय फिशाल कलाकार भारतीव परंपरेकडेन ओडल्यात हें हालींच पणजेंत भरिल्ल्या कला प्रदर्शनांत दिसून आयलां. हे भुंयेंतली कलासंस्कृती मुळासावन शेणल्या हें हातूंतल्यान सिद्ध जालें. जंय शिकोवपाक

गुरूच नांत थंय दुसरें कितें अपेक्षीत आसतलें? हालींच गोंयांत बऱ्याच प्रमाणांत अळम्यावरीं वयर सरिल्ल्या चलयांच्या शाळा-कोवेंतांतल्यान प्रदर्शीत जाल्ले 'अप्लायड आर्ट' चे नमुने पळयल्यार ते आमच्या विद्यार्थ्यांमदीं कलाहीण अभिरुचींचो विकास करतात हेंच सिद्ध जाता. आमच्या राज्यकर्त्यांचे सौंदर्यवृत्तीच्या प्रभावांचो परिणाम गोंयच्या सवंग घरांनी दिसून येता. घरां घरांतल्यान दिसपी तैलरंगांचीं छापिल्लीं चित्रां आनी रंगयाळे पुतळे पळयल्यार सवंग अभिरुचीचें प्रदर्शन घडटा. ज्या ह्या देशांतल्या कलाकारांक आल्बुकेर्कीन पुर्तुगालाक धाडले आनी तांकां पुर्विल्ल्या काळांतले पुर्तुगेज कलेचो प्रभाव शिकोवपांत आनी पढोवपात आयलो त्या देशाची दशा अशी जाल्या. आमचे हे राजवटकेंत आमी उदरगत करचे बदला फाटींच वतात हाचो आनीक बरो पुरावो खंयचो आसत? विज्ञान आनी तंत्रज्ञान हांतले मागाशिल्लेंपण हांगा चड नदरेंत भरता. पुर्तुगेजांकडेन कसलेंच विज्ञानीक वा तंत्रज्ञानाचें साहित्य उपलब्ध ना हें सगळ्यांक खबर आसा. नवे गोंयची (पणजेंतली) उच्च शिक्षण दिवपी एकलीच संस्था म्हणल्यार गोवा मेडिकल स्कुलांत (Escola Medica) पाठ्यपुस्तकां फ्रेंच भाशेंत आसात. तंत्रज्ञानाची एकय संस्था ना. शास्त्रीय अभ्यास फकत पुस्तकी आसता, कारण प्रयोगशाळो नाशिल्ल्यान प्रयोग करिनात. सामके गरजेचे अश्या भौशीक कामाखातीर लागपी तंत्रज्ञ भायल्यान हाडचे पडटात. पुर्तुगेज कबजो करपाच्या काळांत लेगीत तंत्रज्ञानाचे बाबतींत ते थळाव्या लोकांपरस श्रेश्ठ नासले हें खरें आसा. स्वता आल्बुकेर्कीन आपल्या पत्रांत हें मान्य केल्लें : 'गोंयांत बांदिल्लीं जहाजां पुर्तुगाला इतलींच बरीं आसात आनी तोफो, आर्मां तर जर्मनीपरसय बरीं आसात.' व्हायसरॉय आनी आर्सेबिशप थळाव्या वैजांकडल्यान उपचार करून घेताले. आनी फकत तांच्या शास्त्रीय ज्ञानाक लागूनच सुदैवान ते धर्मीक छळांतल्यान सुटिल्ले. चारशें वर्सां देश फाटीं पडत चल्ला आनी आयज पुराणकाळाचे दयनीय

दशेक पावला. प्रगती जाल्या ती पिशेपणाच्या भायल्या स्वरुपांत, अस्तंतीकरणाचें सवंग हाडपांत आनी नोकरशाहीच्या शिश्टाचाराच्या दंभांत ती जितली निरुपयोगी तितलीच नाश करपी थरल्या.

पुर्तुगेज प्रभावाक लागून फक्त पुस्तकी आनी पंडिती संस्कृतायेचे आयटींतल्यान भायर सरिल्ले बुदवंत तयार जाले. ते भारतीय विचारधारा, साहित्य, तत्वज्ञान, कला, सृजनशीलताय, संवसारीक संस्कृतायेंतलो भारताचो म्हान वांटो ह्या सगळ्यांविशीं मात अज्ञानांतच उरले. एवरोपेव हे उदेंतेंतल्या लोकांकडेन संबंध आयिल्ल्यानच सुसंस्कृत जाले हें आमकां केन्नाच तांणी सांगलें ना. परिणामी अस्तेंते कडली दर एक गजाल, जरी तिचें असभ्य आनी उखलापें दर्शनच घडलां, जाल्यारय, तिचेकडेन तारतम्याविणें तोखणायेन पळोवपाचीच गोंयकारांमदीं प्रवृत्ती निर्माण जाली.

अस्तंती संस्कृताय म्हणजेच खरी संस्कृताय हो समज तांचेभितर घट्ट जालो. ही मानसीक घडण तांकां स्वतंत्र आनी सार्वभौम जीण सारपाक नालायक थरयता आनी तांचे बंदेपणाचे दशेक मात घटसाण हाडटा. सरकारी नोकरशाहीच्या शेकाक लागून सगल्या सुशिक्षीत वर्गान आपणाक लाचार आनी दुबळे केले.

खरें म्हणल्यार 'ही नोकरशाय' (bureaucracy) 'मिस्तुराद' (assimilated) संस्कृतायेची उत्तम देख आसा. 'सरकारी गॅझेट' च्या साहित्यान तो आपणालो मेंदू भरता; पुणून सरसमान संस्कृतायेच्या सामक्या साद्या कल्पनाविशीं मात ताका मात्तय जाण नासता. स्वताच्या देशांतले प्रस्न आनी खर गरजांविशीं ताका मात्तय जाणविकाय नासता. आपणांक नोकरी दिली म्हूण तो विदेशी मालकांची मर्जी राखपांत धन्यताय मानता. एक मिंधो सेवक जावन विचार केलेविणें ह्या अयोग्य वेवस्थेच्या हुकूमांक पाळो दितना आपणांक पोसपी देशाचेर आपल्या कामाचो कितें दुश्टपरिणाम जाता, हाचेबद्दल तो पुराय अज्ञानांत आसता.

आपूण आपल्या देशाचें आनी देशभावाचें कितें देणें लागता हे विशीं तो साप्प काळखांत आशिल्ल्यान, क्षुल्लक वैयक्तीक हीत हेंच देशहीत अशी तांची भावना जाल्ली आसा. देशाचे अर्थवेवस्थेंत ताचो वांटो बेनुल्लेभाशेन आसता; तो कसलेंच उत्पादन करिना. जें काम करता तेंय उपेगाचें नासता. आसलेंच जाल्यार नखलामी करता आनी स्वताच निर्मिल्ल्या ह्या गोंदळांतल्यान स्वताचो तरतर करता. ताच्या बेजापसालदारीच्या वेवस्थापनांत सकयले अधिकारी लेगीत लोकांचेर सोंसूं नजो तसलो शेक गाजयतात. राष्ट्रीय लागणूक म्हणचे कितें हाचो चुकून लेगीत विचार ताणें केल्लो नाशिल्ल्यान, आपल्याच लोकांक लुबाडपांत, तांचो नाश करपांत तो कुड्डें सहकार्य करता. परकी सरकाराचे नोकरेंत ताका जेन्ना बडटी दितात तेन्ना तर आपल्या देशभावांचो भोवमान जालो अशी तांची आनीक्य खात्री जाता. ह्या विचारांचीं मुळां गोंयकार समाजांत इतलीं खोल रूजल्यांत कीं मनशाचें मोल ताच्या नोकरेंतल्या हुद्द्यावेल्यान थरता. तांच्या सामक्या खाजगी समाजीक समारंभातय ते नोकरशाहींतले अधिकारी परंपरेचे निसणीक मान दितात. ज्या वर्गांत देशाभिमान नाशिल्ल्याची उत्तम गवाय दिवप्यांकच आनी जे आपल्याच लोकांक लुटपाक परकी सत्तेक मदत करतात, तांकांच येस मेळटा. त्या वर्गांत राविल्ल्यान मोलावणेच्यो तरा अश्यो उरफाट्यो आसप सहाजीकच आसा. जांकां आपणाले शाळेंतले जिणेपासून आपणाल्या राज्यकर्त्यांकडेन खालतिकायेचे लाचारीची वागणूक आनी स्वताच्या व्यक्तीमत्वाचो त्याग करपाचे देखीची शिकवण दितात, तांचे कडल्यान अदीक कितें अपेक्षीत आसतलें?

गोंयकारांक फावो जाल्ले संस्कृतायेचें आनीक एक थळक खाशेलेंपण म्हणजे तिचो प्रतिगामी आनी लोकशाय विरोधी गूण. तांची बौद्धीक घडण – जिका शिक्षणीक संस्थापनां आनी हेर संस्था जापसालदार आसात – उदारमतवादी न्हय आनी समाजाचे खंयचेय प्रगतीक ती विरोध करता.

बंधमुक्ततायेची सगलीं तत्वां आनी सुटकेच्यो सगल्यो म्हान चळवळी - भूतकाळांतल्यो वा चालंत ह्यो विघातक म्हणूनच तांचे मुखार दवरतात. खास करून सध्याचे फॅसिस्ट हुकूमशायेंत सगल्या प्रगत आदर्शांविशीं तांच्या मनांत भंयच निर्मिल्लो आसता. पुणून राजकी आनी समाजीक प्रगतीचे तशेंच विचार स्वातंत्र्याचे आड आशिल्ले आदर्श मात उदात्त आनी देख घेवपा सारके म्हणून दाखयतात. पद्धतशीरपणान केल्ल्या ह्या प्रचाराचो परिणाम सहाजीकच तांकां सध्याचे राजकी बंदेपणांत आसा तशेंच दवरपांत जाला. तांणी सगल्या तरेच्या स्वातंत्र्याच्या आनी प्रगतीच्या आंदोलनापासून विरोधांत पयसच रावचें हें राजकर्त्यांच्या हिताचें आसा.

चडशीं थळावीं वा हेर देशांतलीं गोंयकारांचीं वृत्तपत्रां हेंच परंपरावादी वा रुढीवादी स्वरूप दाखयतात. खर मुद्रण नियंत्रणा सकयल (सेन्सर) तीं गोंयांत उजवाडायतात तेन्ना कसलोच प्रतिकार केलेविणें, सरकारान नेमून दिल्ली देशभश्टेपणाची भूमिका खोशयेन पार पाडटात. देशद्रोही थारत ह्या भंयान स्वता ते भारतीय स्वातंत्र्य चळवळी पासून अलिप्त आशिल्ल्याचें दाखयतात. खरें म्हणल्यार स्वतंत्र वृत्तीच्या कांय थोड्याशाच वृत्तपत्रांक दडपून उडयतकच, गोंयांतली पत्रकारिता लागीं लागीं पुरायपणान सरकारी नोकरांच्या हातांत पडल्या. गोंयकारांचीं नेमाळीं जेन्ना ब्रिटीश हिंदुस्थानांत छापताले, तेन्ना तांकां सांप्रदायीक फुडाऱ्यांचें मार्गदर्शन आसतालें. हे फुडारी स्वताच प्रतिगामी आनी परकी अश्या धर्मीक शेकाखाला आसताले वा गोंयांत सहज प्रवेश करूंक मेळचो म्हूण सरकारी आदेशाकडेन जुळोवन घेताले. गोंयांत वा गोंयांभायर गोंयची पत्रकारिता चड करून खंयच्याय स्वातंत्र्यसंग्रामाक विरोधच करीत आसा आनी जुलमी आनी प्रतिगामी आशिल्ले प्रत्येक ग़जालीक ती फाटबळ दीत रावल्या. साम्राज्यवादाच्या छुप्या प्रचारकाचे पोपटपंचीचोच ती लागीं लागीं पुनरुच्चार करीत रावल्या. हिंदी वा आंतरराष्ट्रीय राजकारणाविशीं साम्राज्यवादाच्या प्रचारकांनी

छापिल्ल्या गजालींचेरच तांणी भावार्थान विस्वास दवरला. कुड्डें अनुकरण करपी संस्कृतायेक लागून तांचीं मनां कलुशीत जाल्ल्यान ते स्वता एका अंकीत देशाचे प्रजानन आसात आनी प्रगत चळवळीच्या आनी प्रतिगामी साम्राज्यवादा आड आसपी पक्षांच्या संयुक्त कार्याचेरच तांची मुक्तताय निंबून आसा, हें ते विसरल्यात. तांचे संस्कृतायेचें देशभश्टेपण जाल्ल्यान गोंयकार आपूण जावन स्वताक बंदे करून घेवपाचींच आवतां जातात.

## राजकीय आनी अर्थीक तासां

देशभश्टेपणाक लागून खाजगी आनी रासवळ अश्या गोंयकारांच्या जिणेच्या आंगाचेर ताचो दुशपरिणाम जालो. ताका लागुनूच अद्भूत अशें राजकीय बंदेपण मोनेपणान सोंसपाची तांची प्रवृत्ती घडल्या. ह्याच मुखेल कारणाक लागून सध्याच्या हुकूमशाय कायद्या मुखार सामके मुळावे हक्क लेगीत त्यागपाची नामुश्की तांणी पत्करली. नागरिकत्वाचे सगळे हक्क दपटिले तरी ताचे आड कसलीच प्रतिक्रिया व्यक्त ना करपाची असामान्य कर्तुत्वहीनताय हेंच दाखयता. स्वताचे न्याय्य हक्क मानान मेळोवप शक्य आसतनाय स्वताक उणाक लेखून सदांच भीक मागपाचे प्रवृत्तीक तेंच कारण जापसालदार आसा. परकी कायद्याविशींच्या आदराक लागून ते मुलकी वेवस्थापनाच्या सामक्या लजेच्या आनी अनुदार जुल्माआड लेगीत झगडपाक शकनात. गोंयकारांक आपणाल्याच हिताआड कशें वागचें पडटा हाची एक देख म्हणल्यार सध्याचे सालाझाराशायेविशीं आशिल्ली तांची वृत्ती. आदले रिपब्लीकन राजवटकेंत आनी 19 शतकांतले घटनात्मक राजेशायेंत लेगीत तांकां कांय राजकी हक्क आसले. तांणी वेंचिल्ल्या प्रतिनिधीचे वरवीं निदान तांचो आवाज तरी विधानमंडळांत (Assembly) उक्तेपणीं आयकूंक येतालो आनी तत्वता कांय जायना तांकां कांय राजकी

हक्क मेळटाले. आपणाल्यो कागाळी वृत्तपत्रांतल्यान परगटावपाचें इल्लेंतरी स्वातंत्र्य तांकां आसलें. पुणून रिपब्लीकन राजवटकेचें धोरण अत्यंत उदारमतवादी आसूनय धर्मीक मार्गदर्शकांच्या उत्तेजनान गोंयांतल्या एका समाजान ताका पद्धतशीरपणान विरोध केलो. हाचे उरफाटें आज जे हुकूमशायेत आमचे सगले हक्क काडून घेवन आमचो मानभंग जाला थंय खबरापत्रां आनी हेर माध्यमां तिची तुस्तच करतात. मुंबयतलीं गोंयकारांचीं खबरापत्रां, तांचेर सतत पुर्व-नियंत्रणाच्या दबावाचें कसलेंच चेपण नासतना लेगीत पुर्तुगेज हुकूमशायेची आनी साम्राज्यवादी वेवस्थेची स्तुतीच करतात.

आपणाल्या राष्ट्रहिताविशीं आमचे देशभाव कशे बेसावध अवस्थेंत आसात आनी रोमन कॅथोलीक चर्चीच्या आनी राज्यकर्त्या राष्ट्रांच्या प्रतिगामी पक्षांची कशी दोळे धांपून सेवा करतात हाचो हाचे परस दुसरो पुरावो नाका.

खरें म्हणल्यार, स्वाभिमानशून्यतायेचे इतले हीण पातळेचेर गोंयकारांबगर हेर कोणूच पाविल्ले नासत. सामके मुळावे अशे तांचे मानवी हक्क काडून घेतले, तांच्या रितीरविसांचेर आगळीक केली, तांची मायभास दपटिली, तांची पारंपारीक संस्कृताय ना नपयत केली आनी तांची खबरेंपणा फॅसिस्टांची आनी जेजुईतांची शिंदळकी करपाक लागलीं. भ्रश्टाचार आनी बेशिस्त कारभाराक लागून देशाची अवनती जाली, ताका लागून हांगा राबितो करपी लोक घरकाम करपाक किंवा दुय्यम कामगार म्हणून चोंब्यांनी देशाभायर वचपाक लागले. सालाझाराच्या कॅथोलीक – फॅसिस्ट वसणूक कायद्यावरवी (Acto Colonial) स्वयंनिर्णयाचो हक्क तांकां सामको नाकारलो. कारण तो फक्त पुतुगेजांचोच खाशेलो हक्क आसलो. हे धर्मीक आनी लश्करी हुकूमशाये खाला बेजबाबदार पोलीस यंत्रणा बंदखणींतल्या आनी कोठडेंतल्या छळावरवीं लोकांचेर वर्चस्व गाजयता. पुणून ही सगळी जुलूम-जबरदस्ती आनी मानहानी जाता आसतनाय हे पाशवी राजवटकेआड

केन्नाच एक लेगीत जाहीर निशेधाचें उतर कोणेंच उच्चारलें ना. उरफाटें हे गोंयकार आपूण सदांच पुर्तुगालाकडेन बांदलेले आसात अशी प्रौढी आपणाल्या वृत्तपत्रांतल्यान आनी भाशणांतल्यान उक्तायतात. आनी हे अधर्मी, देशद्रोही कॅथलीक वर्णद्वेशी हुकूमशहाक आपणाली निश्ठाय अर्पितात. चारशें वर्सांच्या देशभश्टेपणाक लागून ते आपणाल्या आप्तेश्टांक विसरले आनी तांकां आपणाल्या वंशांचीय लज दिसपाक लागली हें त्या देशभश्टेपणाचेंच यश म्हणपाक जाय.

राष्ट्राविशीं स्वाभिमानच होगडायल्ल्यान आमच्या देशभावांक राज्यकर्त्यांचे आचार विचार नकलावपाक आनी रितीरविसांचें कुड्डें अनुकरण करपाक आवडटा. तांच्या आचारविचारांक खरायेन पाळो दिल्ल्यानच राज्यकर्त्यांच्या सुसंस्कृतपणाचो दर्जो मेळून तांची बरोबरी आमी करपाक शकतले अशी तांची खात्री जावन पडल्या. येवरोपेव समाज जिणेंतल्यो पद्धती हेंच प्रगतीचें लक्षण हे खोटे समजिकायेक लागून गोंयकारांमदें न्यूनगंड निर्माण जालो. गोंयांतलो समाज अस्तंतेचे विद्रूप व्यंगचित्र जावपा इतलो खालावलो आनी खरे प्रगती पासत गरजेची आशिल्ली कल्पकताय आनी निर्मिती क्षमताय हे गूण होगडावन बसलो. वांशिक बुद्धी वैभव दबिल्ल्यान तांच्यांतली सर्जनशीलताय आनी विचारप्रवृत्ती हांकां आडखळ आयली. हाका लागूनच समाजीक जिणेची अवनत जावन तिचें कोंड जालें.

ह्या देशभश्टेपणाक लागून अर्थीक दिश्टीन आमी परकी देशांचेर अती निंबून रावल्यात. येवरोपेवांची पद्धतशीर नक्कल करून जोडिल्ल्यो संवयी आनी आचार-विचार हाका लागून गोंयकार हो परदेशी वस्तूचें व्हडलें गिरायक जालो. आनी त्यो वस्तू करपी देशांत आमच्या पैशांचो ओघ वचपाक लागला. थळाव्या वा हिंदुस्थानांत तयार जावपी वस्तूंक उत्तेजन दिवपाच्या संबंदांत तिरस्कार, हाका लागून सामुहीक आनी राष्ट्रीय ऐक्याविशींचे भावनेचो पुराय अभाव दिसून येता. ही भावनाच तर सध्याच्या

सगल्या फुडारिल्ल्या समाजांचो खाशेलो गूणधर्म आसा. कॅथोलीक अस्तुरी पर्थून साडी वापरपाक लागली ती कसलेय राष्ट्रीयत्वाचे जाणविकायेक लागून न्हय; हिंदी पेहरावापरस सदांच परकी पेहरावच तिका अदीक आवडटा. येवरोपेव पेहराव करतनाय हिंदुस्थानांत केल्लें लुगट तिणें वापरल्यार तो राष्ट्रभक्तीचो बरो पुरावो मानपाक जातलो आसलो.

राष्ट्रीयत्वाच्या ऱ्हासाक, म्हळ्यार देशभश्टेपणाक आनी अधोगतीक कारण जाल्ल्या ह्या घटकांमदीं – अर्थीक प्रतिबंध, जे हालींच वाडल्यात ते गोंयांक हिंदुस्थानापासून वेगळायतात. कस्टमड्युटी (जकात कर) आनी वाहतूक भाडें हिंदुस्थानाचे बाबतींत वाडतच चलिल्ल्यान मुखेल प्रदेशाकडेन आमचें नातें तुटत चल्लां आनी तसोच अर्थीक नाशय. हें विचित्र टॅरीफ (जकात) धोरण पुर्तुगेज साम्राज्याच्या फायद्या खातीरच अनुसरिल्ल्यान आनी हालीं शेतकी उत्पन्न आनी उद्देगधंद्यांक संरक्षण दिवपाच्या नांवाखाला खरें तर सरकारी उत्पन्न वाडोवपाचोच उद्‌देश दिश्टी पडटा. सरकारी उत्पन्नाचो अर्दो वांटो कस्टम ड्युटींतल्यान मेळटा आनी तोय तीस लाख रूपयांचे वयर वता. जास्त उपेगांत येवपी आनी चड गरजेच्या आशिल्ल्या हिंदुस्थानांतल्या वस्तूंचेर खूब मोठो कर लायतात आनी हाका लागून सरसमान मनशाचे जिणेचो खर्च वाडतच वता. हिंदी उत्पादनाच्या जिवाचेर पयशिल्ल्या देशांचें मात फावता.

भुगोलीक, अर्थीक, वंशीक वा समाजीक दिश्टीन हिंदुस्थानांकडेन जोडिल्ल्यान आमी हिंदी अर्थवेवस्थेचेर निंबून आसात. पुणून आमच्या अस्तित्वापासत सामकें गरजेचें आशिल्ल्या ह्या नात्याक पुर्तुगेज आनी ब्रिटीश अशे दोट्टी प्रतिबंध करून बाधा हाडटात. हिंदुस्थानांतलें ब्रिटीश सरकार आपलें भाडें आनी कस्टम ड्यूटी वाडोवन पुर्तुगेज टॅरीफ (जकात) धोरणाचें उट्टें काडटा. सामकी 1929 मेरेन आमची भारतांतली आयात 72.45 टक्के इतली आसली, ती 1938 वर्सा 55.37 टक्के इतली देंवली आनी पुराय

निर्गतीचे 95.40 टक्के आशिल्ली ब्रिटीश भारताकडेन जावपी निर्गत त्या दशकांत 69.45 टक्के इतली घसरली. हें धोरण फक्त हिंदुस्थानाक तितलें हानी करपी आनी परक्यांक लाभ करपी जावन आसा हेंच स्पश्ट जाता.

ह्या भारी जकातीच्या धोरणाचो परिणाम म्हणल्यार गरीब लोकांची जीण अदीक खर्चाची जाली. कित्याक ही जकात, तांदळां सारख्या दिसपट्ट्या म्हाल्लाचेर वाडयली आनी तांदूळ तर मुखेलपणान वावराडी वर्गाचें मुखेल अन्न. गोंयांत तांदळाचे दर ब्रिटीश हिंदुस्थानच्या मानान दुपेट जाले. हाचो परिणाम सरसमान जिणेच्या खर्चाचेर जावन वावराडी लोकांचो दिसवडो वाडलो आनी थळावें उत्पादन आनी ताका लागून दोनय शेतकी आनी उद्देगीक उत्पादनांच्या दरांची आपशींच वाड जाली. हाका लागून आमची शेती ना जावपाक पावली, उद्देग धंदे थंडावले, आनी अनैसर्गीक रितीन वाडयल्ल्या पगारांक लागून देशांत कसलेंच नवें उद्देगीक धाडस करप अशक्य जालें. उत्पादकताय घटिल्ल्यान बेकारी वाडली, बऱ्याच लोकांची परिस्थिती बिकट जाल्ल्यान, रोजी रोटीच्या सोदांत साटली पोटली घेवन तांकां स्थलांतर केले बगर दुसरो उपायच उरलो ना.

आमच्या जकात-धोरणाक लागून पयसुल्ल्या परकी देशांच्या फायद्याच्या बदल्यात, ज्या हिंदुस्थानाक गैरवागणूक दिली, त्याच हिंदुस्थानांत गांव सोडून वचपी गोंयकारांक काम मेळटा. तातूंतल्यान दर वर्सा एक कोटी परस अदीक येणावळ सरकाराक मेळटा आनी आमच्या राज्यकर्त्यांच्या गोंधळाच्या धोरणान निर्माण जाल्ली तूट भरून येता.

आयातीचें मोल निर्गतीच्या चौपट पांचपट आशिल्ल्यान आनी ही प्रचंड तूट चडशी हिंदुस्थानांत हेरकडेन गेल्ल्या आमच्या लोकांनी धाडिल्ल्या दुडवांतल्यान भरून आयिल्ल्यान, होच पयसो आपशींच विदेशी वस्तूंची किंमत मेजपांत्त खर्च जाता. अशे तरेन हिंदुस्थानच्या दुडवांनी, गोंयकार आपणांक संवय जाल्ल्यो विदेशी वस्तू, सवाय मोलान विकत्यो घेतात.

हाचें श्रेय अर्थात आमच्या राष्ट्रीयत्वाचो नाश करपी आदल्या इंक्विझिशनाच्या न्यायाधिशांनी लादिल्ल्या कायद्यांक दिवचें पडटलें. जकात धोरण हें नवें शास्त्र आसून तें त्याच कामाक उपेगाक येता आनी मुखेलपणान, हो राष्ट्रीयत्वाची भावना होगडायल्लो वर्गच, जो आपणाक फुडारिल्लो समजता, तोच आमच्या देशांतली गरिबी आनी मागाशिल्लेंपण तशेंच उरूंक चड करून हातभार लायता.

गोंयाक हेर हिंदुस्थानापासून वेगळें दवरपाच्या जकात धोरणाक आनीक एक म्हत्वाचो अर्थीक घटक जोडपाक जाय, जाका लागून गोंयां भोंवतणी एक अडेची [illegible]य निर्माण केल्या. 'बांकु नासियोनाल उलत्रामारीन' हे बँकेन काडिल्ल्यो [illegible]गदी नोटो वाटोवपाक येनाशिल्ल्यान, पूण त्यो सक्तीन वापरच्यो पडिल्ल्यान गोंयांत रूपयाचें मोल देंवलें, ज्याचो आमचे उत्पादन प्रक्रियेकडेन कसलोच संबंध ना. तेच बराबर आमच्या वेपारी म्हालाच्या वांट्यांत कसलीच वाड करिनासतना आमचेर लादलें तें मोल नाशिल्लें चलनाचें अस्तित्वच गोंयांतल्या सरसमान भाववाडीक आनी तेच बराबर रुपयाची खरेदी करपाची तांक (purchasing power) उणी करपाक जापसालदार आसा. गोंयकारांक लुबाडपाचें हेंवूय एक आवत जावन आसा.

आमच्या राष्ट्रीयत्वाचो ऱ्हास सिद्ध करपी आनीक एक देख म्हणल्यार आमी सोरो पियेवपांत केल्ली भयांकृत प्रगती! हे शारिरीक आनी नैतीक अधोगतींत कॅथोलीक लोकूच चड फुडें आसात आनी तांणी आपणाले देखीन हिंदूकय भश्टायल्यात. हिंदू वा मुसलमान धर्म ह्या विखारी दुर्गुणांचो प्रसार आडायतात हें सगल्यांक बेस बरें खबर आसा. क्रिस्तांव धर्मांत सोरो पियेवपाक बंदी ना हाचो फायदो घेतलो आनी मुजरत दुश्ट हेतून थळाव्या सोऱ्याचें बेसुमार उत्पादन आनी खप वाडयलो. तेचपरीं विदेशी सोऱ्यावरवीं आपणांक गिरेस्त करपाक उत्तेजन दिलें. खरें म्हळ्यार क्रिस्तांवकरणाचें धोरण आनी सोरो घेवपाक फायदेशीर उत्तेजन हीं दोनूय हातांत हात घालून

फुडें वतालीं. सोऱ्या वरवीं मेळपी येणावळ कांय वर्सां पयलीं देशांच्या सगले येणावळीचो पांचवो कांय चवथो वांटो इतलीं जाली. त्याचवेळार मद्यार्क (spirits) आनी सोरो (wines) आयात करपाक पाठिंबो दिलो. कित्याक पुर्तुगेज लोक ताचीच निर्गत चड करतात. परिणामी, धर्मीक समारंभ, प्रार्थना, बातिज्म, काजाराचे सुवाळे इतलेंच न्हय तर मरणा वेळारूय बेसुमार सोरो पियेवपाचे प्रसंग घडले. आनी ह्या सगळ्याक कॅथोलीक धर्माच्या सत्ताधिशांची अलिखीत संमती आसता. कांय बंधनां आनी बिशपा कडल्यान आयिल्ले धर्मादेश प्रतिकूल भौशीक मताफुडें जरी काडिल्ले आसले, तरी मुद्दामच ते अंमलांत हाडिनात. ह्या अघोरी धोरणाक लागूनच गोंय हो संवसारांतलो सगळ्यांत अदीक सोरो पियेवपी देशांपैकी एक जाला. लंडनांत जाल्ले संवसारीक अर्थीक परिशदेंत (World Economic Conference) ताचो तसो उल्लेखय केला. आमच्या वंशाची शारिरीक अधोगती आनी मानसीक उदासिनताय हांकां तेच जापसालदार आसात. गोंयकार ज्या 'व्हिस्की आनी सोडा' आनी 'मिसाचो धवो सोरो' (White Wine of Mass) छाप संस्कृतायेंत निपूण जाल्यात ताची ही खरी गवाय.

मानसीक बंदेपण, राजकी मिंधेपण, असैमीक आचार विचार, संस्कृतायेचें कोंडावप आनी नाश, स्वाभिमान शुन्यताय, शारिरीक अधोगती आनी अर्थीक अवनत ह्या सगळ्यांचें श्रेय आमी आमच्या देशभश्टेंपणाकच दिवपाक जाय!

# निश्कर्श

फाटल्या पानांतल्यान जी वस्तुस्थिती उक्ताडार आयल्या, ताचे थोडे भितर स्पश्ट निश्कर्श अशे आसात :

गोंयकारांच्या राष्ट्रीयत्वाचे भावनेचो ऱ्हास म्हळ्यारच तांचें देशभश्टेपण खंयच्याय लोक समुदायापरस अदीक नदरेंत भरता. हाचें कारण परकियांचें लांबदीक बंदेपण इतलेंच न्हय, तर पुर्तुगेजांनी गोंयकारांची मनां विकृत करपाक ज्यो रानटी आनी जुल्मी पद्धती वापरल्यो ताचो तो परिणाम.

आतां लेगीत सत्याची मातय बुनयाद नासतना ताळतंत्र नाशिल्ल्यो दंतकथा गोंयकारांमदीं पातळ्ळ्यात आनी त्यो पुर्तुगेजांच्या भारतांतल्या कृतीचें समर्थनच करतात आनी तांचीं दुश्ट कर्तुपां माफ करतात इतल्या परिपूर्णतायेक हें मानसीक बंदेपण पाविल्लें आसा.

'Association and Assimilation' (सहवासांतल्यान एकरूपताय जोडप) ह्या धोरणाची व्हडवीक गावप आनी जाचें श्रेय आफोंसु द आल्बुकेर्कीक दिवपाचो जो यत्न जाता तें तोच आपणाल्या पत्रांतल्यान स्पश्टपणान नाकारता. गोंयकारांक तांचेच भुंयेंतल्यान धांवडायलें आनी तांच्यो जमनी ताणें बंदखणींतल्यान तुर्की बायलांकडेन लग्न केल्ल्या आपणाल्या लोकांक दिल्यो हें तो कबूल करता. वसणूकवादी कायद्या (Acto Colonial) वरवीं वसणुको आसप हो पुर्तुगालचो सैभावर्तो हक्क आशिल्ल्याचें जाहीर करप म्हळ्यार तर पुर्तुगेज उदारमतवादाचें फटकिरें सवंगच उक्ताडार हाडप.

गोंय जिखतल्याक श्रेय दिवन जे धर्मीक सहिष्णुतायेचो उल्लेख करतात, तिचें समर्थन जावपाकच शकना. कित्याक हिंदूचे मदतीन मुसलमानांचो सांवार केलो आनी उपरांत हिंदूचींय देवळां ना नपयत करून तांकां लुटले हें तो आल्बुकेर्क स्वताच मान्य करता. जिखपी आनी जिखिल्ल्या

लोकांमदीं मिश्र लग्नाक ताणें उत्तेजन दिलें हे समजुतीक लागून आल्बुकेर्क वर्णद्वेशी नासलो अशें भासयतात. ताणें आपले आदीं जे राज्यकर्ते आसले तांच्या बायलांकडेन लग्नां करपाक प्रोत्साहन दिलें आनी त्या बायलांक जबरदस्तीन क्रिस्तांव केल्लीं.

आनीक एक दंतकथा : सांत फ्रांसिस शावियेरान खंय आपणाल्या उपदेशान आनी चमत्कारांनी गोंयकारांचें क्रिस्तांवीकरण केलें. धर्मांतर करतना आपणें अंमलांत हाडिल्ले पाशवी अत्याचार लिपोवपाखातीर पुर्तुगेजांनी ही निगूत फटकिरी काणी तयार केल्या. सांत फ्रांसिस शावियेराच्या पत्रां प्रमाणें गोंयांत ताणें एकय धर्मांतर केलें ना, उलट मुलकी आनी लश्करी सामर्थ्याबगर फकत उपदेशान धर्मांतरां कर्शीच शक्य जावचींनांत अशें ताचें म्हणणें आसलें.

पुर्तुगेज राजवटकेखाला घडयल्लीं धर्मांतरां अक्षम्य क्रूरपणान केल्लीं हाची असंख्य सरकारी कायदे, फतवे आनी धर्मीक आदेश गवाय दितात. हिंदू-मुसलमानांचो रानटीपणान केल्लो छळ, दडपणायेन संपत्ती बळकावन राज्य आनी धर्मीक संस्थांक गिरेस्त करप, थळाव्या लोकांक हद्दपार करप आनी 'चोंब्यांनी केल्ल्या बाप्तीज्माच्या' नांवाखाला केल्ली सगळी जुलूम-जबरदस्ती, ह्या सगळ्या कर्तुबांचें वर्णन अधिकृत पुराव्यांनीच मेळटा.

हिंदू तशेंच क्रिस्तांव अश्या दोनांयची गोंयकार समाजांमदली शारिरीक आनी नैतीक दुबळीकाय, खुशामत आनी चुगल्यो करपाच्यो संवयों, स्वाभिमानशून्यताय आनी चरित्रहीनताय ह्या सगळ्याक देशांतर आनी जप्तीच्या धमकेन केल्ली धर्मांतराची दहशतवादी पद्धतच जबाबदार आसा.

धर्मांतरां अध्यात्मीक सुधारणा करपाच्या हेतान करूंक नासलीं तर वसणुकांचें शोशण करपाचें, राज्यकर्त्यांवरवीं लुबाडपाचें आनी प्रजेक बंदे करपाचें, तें फकत साधन आसलें. खरी वस्तुस्थिती म्हणल्यार धर्मविरोधी

पोर्तुगीज रिपब्लिकन्स स्वताच्या देशांत ज्यांचो छळ करतात त्या कॅथोलीक चर्चसंस्थेची सर्व श्रेश्ठताय वसणुकांनी मात ते मान्य करतात. धर्म हें केवळ साम्राज्यशायेचें वर्चस्व गाजोवपाचें एक हत्यार आसलें आनी आजय आसा हेंच ही घटना सिद्ध करता.

'होली ऑफिस' म्हणजे इंक्विझिशनाचे पद्धतीवरवीं आनी हेर पद्धतींनी गोंयकारांचेर येवरोपेव संवयो आनी रितीरविसो लादल्यो ताचे फाटल्यान कसलीच सुधारणा वा प्रगती करपाचो उद्देश नासलो तर तांकां मानसीक दिश्टीन दुर्बल करून उडोवप हेंच खरें कारण आसलें. सुख-समाधान, आरोग्य सद्अभिरूची हांच्या मुळाव्या नेमा विरूद्ध संघर्श निर्मुपी रीतीरविसो तांचेर लादपांत आयल्यो. राष्ट्रीयत्वाचे भावनेचो नाश करून खालते वेवसाय करपाक योग्य अशे दुबळे चाकर तयार करप, होच हे सक्तीच्या अस्तंतीकरणाचो हेत आसलो.

पारंपारीक संस्कृताय सक्तीन सोडपाक लावप, ताचे बदला विदेशी संस्कृताय लोकांचेर थापप, भारतीय भाशा आनी संस्कृती हांकां मना करप, थळाव्यो कला आनी लोक कला नश्ट करप हाका लागून सांस्कृतीक दिवाळ्यान गोंयांतल्या बुदवंताची वृत्ती कृत्रीम आनी निर्जीव जावपाक पावली. कोंकणी आनी मराठी भासो अधिकृतपणान दडपायल्ल्यान गोंयकार प्रमाणाभायर निरक्षर जावन अज्ञानरुपी काळखांत वावुरपाचे ख्यास्तीक पात्र थारले.

आमच्या देशभावांच्या मानसीक गुलामगिरीचो पुरावो म्हणल्यार मूळ धर्मीक आनी तत्वगिन्यानी आशिल्ले पूण उपरांत प्रतिगामी स्वरूपाची जाल्ली संस्कृताय, हाका लागून ते संवसारांतल्या सगल्या व्हड स्वातंत्र्यवादी तत्वांक आनी क्रांतीकारी चळवळींक सतत विरोध्रच करीत रावल्यात. खरें म्हणल्यार आपूण गुलामगिरींत आशिल्ल्यान गांजिल्ल्या देशाच्या राजकी आनी समाजीक उन्नतीपासत झटपी प्रवाहाबद्दल सहानुभूती बाळगुपांत

तांचेंच हीत आसलें.

पुर्तुगेज राजवटकेन गोंयकारांक बंदे, दुबळे, खुशामती आनी नामर्द केले. जेजुईत आनी हेरां कडल्यान मेळयल्लो प्रतिगामी आनी धर्मीक आदर्शवादच तांकां सोंसूंक लावपी दुर्दैवी स्थितीक जबाबदार आसा. सतत भंयांत रावचें लागिल्ल्यान आनी म्हान क्रांतीकारी चळवळींबद्दल काळखांत दवरिल्ल्यान जुलमी, असहिष्णु आनी वांशीक असमानतायेची हुकूमशाय सोंपोवची असो विचार लेगीत तांच्या मनांत येना.

देशभश्टेपणाक लागून अर्थीक दिश्टीन परक्या देशाचेर निंबून रावप वाडलां. प्रत्येक विदेशी गजालीची केलदावणी करप आनी देशी गजाली तुच्छ लेखपाची प्रवृत्ती हातूंतल्यान ज्यो संवयी उप्रासल्यो तांचो परिणाम म्हणचे आमचो पयसो परदेशांत वचपाक लागलो. सरकारी जकात आनी चलन धोरण घातक प्रवृत्तीक पोशण दिता आनी हिंदुस्थानापासून आमकां वेगळायता.

आनी शेकीं जुल्मी फॅसिस्ट राजवटकेच्या वेवस्थापन आनी राजकी यंत्रणेकडल्यान सामकी उणाक आनी अपमान करपी वागणूक मेळटा आसतना लेगीत राष्ट्राविशीं अभिमान नाशिल्ल्यानूच आमचे लोक स्वताच्या हक्काखातीर खंयचेंय झूज करपाक नालायक थारल्यात आनी आसा ते दशेंतच समाधान मानून कर्तव्यशून्य जावन पडल्यात.

ते खातीर मुक्तताय जोडपाखातीर आमचे मर्दी स्वाभिमान आनी देशाभिमान निर्माण जावपाक मन तयार करपाक जाय. बंदेपण, तेचपरीं चारित्र्यहीण आनी माकडांभशेन नक्कल करपाची प्रवृत्ती हांचेपासून मन मेकळें करपाक जाय. राजकी, वैचारीक, समाजीक, अर्थीक ह्या सगळ्याच बाबतींत आमच्या राज्यकर्त्यां विरुद्‌ध आनी आमच्या दिसपट्ट्या संवयां विरूद्‌धय बंड करपाक जाय.

आमचे प्रचंड अधोगतीविशीं जागरूक जावपाक जाय. तिच्या

भूतकाळांतल्या आनी चालंत कारणांची फोडणिशी करून ती ना करपाक जाय आनी आमच्या राष्ट्रीय शरिराक जी पीडा जाल्या तिचेर उपाय सोदून काडपाक जाय. गोरवांभशेनच एका धनयां कडल्यान दुसऱ्या धनयांकडेन वचप हेंच आमचें नशीब हें गृहीत धरिनासतना राष्ट्रीयत्वाच्या नाशान पुरायपणान नश्ट केल्लो आमच्या वंशाचो अभिमान आमकां पर्थून निर्मुंचो पडटलो.

सतत संघर्श करून हिंदुस्थानान जो उंचलो पांवडो जोडला, ते देखीन आमी चलूंक जाय. आमच्या हिंदी भावांक तांच्या साम्राज्यशाहीआड चलिल्ल्या लढ्यांत सांगात दिवपाक जाय आनी तांच्या प्रयत्नांत आमी वांटो घेवपाक जाय. राष्ट्रीय स्वातंत्र्याचे भौतीक आनी नैतीक फायदे मेळोवचे आसतीत जाल्यार आमी तांच्या संघर्शाच्या अटीतटीच्या खिणांत तांच्या सांगातान रावप सामकें गरजेचें आसा.

भारताच्या राष्ट्रीय चळवळीकडेन एकरूप जाले बगर मुक्त भारतांत समान हक्क मेळोवपाचो अधिकार आमकां उरचो ना. उलट भारताक स्वातंत्र्य मेळटकच लेगीत मनाचे आवश्यक ते तयारीविणें आनी स्वतंत्र जिणेक गरजेचें प्रशिक्षण नाशिल्ल्यान गोंयकार पराधीनतेचे ख्यास्तीकच पात्र थारतले. स्वातंत्र्य म्हणजे सर्गांतल्यान पडिल्ली देण वा दुसऱ्यांच्या प्रयत्नांनी लाभिल्ली कृपा अशीच कल्पना आसल्यार ती घोडचूक थारतली. भारताच्या ह्या राष्ट्रीय कार्याच्या निर्णायक खिणांत तांचो विश्वासघात केल्यार गोंयकारांक ख्यास्त भोगचीच पडटली. हिंदुस्थानच्या इतिहासाच्या कठीण समयार जे कोण देशभक्तीचो पुरावो दिवन हिंदुस्थानचे लायक सुपुत्र आशिल्ल्याचें सिद्ध करतले तेच स्वतंत्र देशाच्या नागरिकांक मेळपी सगल्या हक्कांक पात्र थारतले. आनी जे स्वेच्छेन अपमान करपी अशे परकी सत्तेचो स्विकार करून खंयचेय तरेन हिंदुस्थानच्या राष्ट्रीय कार्याचो विश्वासघात करतले, तांकां मात लज करपी कलंक लागले

शिवाय रावचो ना.

आमी नव्या युगाच्या हुंबऱ्यार उबे आसात. फॅसिसम कोसळटा. स्वताच्याच विसंगतीक लागून आनी गटबाजीचे अंतर्गत प्रतिस्पर्धेक लागून साम्राज्यवादाचो आत्मघातकी अंत लागीं पावला. सध्याच्या झुजांतल्यान राष्ट्रांची नवी लोकशाय उदेवाक येता. थंय आपणाले मांयभुंयेच्या रक्षणापासत जांणी म्हान त्याग केला तेच तिर्ची तत्वां आनी नेम घडयतले. ह्या नव्या युगांत स्वातंत्र्याखातीर झुजूंक शकपीच तिगतले. गोंयकारांनी आपणाली गुलामगिरी आनी भेजूडपणा सोडून दिवन आता ह्या नव्या युगांत रावपाक लायक जावपाची वेळ येवन पावल्या.

## श्री.सुरेश गुंडू आमोणकार



डॉ त्रिश्तांव ब्रागांझ कुंज्य हांच्या Denationalisation of Goans ह्या पुस्तकाचो अणकार करपी सुरेशबाब आमोणकार हे एक नामनेचे लेखक, शिक्षणतज्ञ, सांस्कृतीक, सामाजीक वावुरपी आनी एक विचारवंत. अणकाराच्या मळार तांणी व्हड वावर केला. धम्मपद, श्रीमद्भगवद्गीता, कुरळ, ज्ञानेश्वरी, जपुजीसाहिब,बायबलांतले सांतजुआंव प्रमाणें जेजू ख्रिस्ताचें शुभवर्तमान, झॅनचो दिश्टावो ह्या ग्रंथांचे अणकार ताणीं केल्यात. तांचो ख्रिस्तपुराणाचो अणकार आनी गोंयचें संवसारिकीकरण हे ग्रंथ हे रोखडेच उजवाडा येवपाचे असात. 22 मार्च 1935 हे दिसा जल्मल्ले सुरेशबाब हांणी आफ्रिकेंतल्या केनियांत तशेंच गोंयांत शिक्षण दानाचो मोलादीक वावर केला. साबार पुरस्कारांचे मानकरी आशिल्ले सुरेशबाब हांकां 2001 वर्सा भारत सरकारान "पद्मश्री" दिवन तांचो भोवमान केला.।

सगळया हिंदुस्थानांत आपलें राष्ट्रीयत्व होगडावन देशभश्टे जाल्ले गोंयकारां इतले हेर कोणूच आसचे नात. राष्ट्रीयतेच्या जाणविकायेचो पुराय अभाव आनी सामकी लज दिसपाक फावो अशी तरेन परकी सत्तेक शरण वचप ..... हे गजालीक लागून गोंयकार आपल्याच देशांत परकी जाले.

— डॉ.टी.बी. कुंज्य